*नायी भुरगें राजा बाळ रे,*
*नायी भुरगें राजा बाळ मूं*

*राजा पुत्रा वाटेन दुखी रे,*
*राजा पुत्रा वाटेन दुखी मूं*

: अशें काय राजाक भुरगें ना बाळ म्हण्टा, पुत्रावाटेन काय राजा तर दुख्खी.

*राजा वाळीं लोकांनी घायल्या रे,*
*राजा वाळीं लोकांनी घायल्या मूं*

: असो काय सेनापती राजा आसा तो निर्मळ तर वांझो, आनी तेन्ना म्हण्टा दारां गेल्यार तेचे हातीचें अन्न करनये म्हण्टा काय उदक. अशी काय राजा म्हण्टा भारी चिंता काय लागल्या.

*दितलो राजा नी तो दान रे,*
*दितलो राजा नी तो दान मूं*

: इतलें म्हण्टा, राज्य म्हण्टा आपणें चलयलें आनी आतां म्हण्टा लोक म्हण्टात, हातीचें अन्न घेवनये काय उदक!

*राजा चिंते खाली आसा रे,*
*राजा चिंते खाली आसा मूं*

: अशें काय राजा म्हण्टा की मोठें काय म्हातारपण, काय वय काय मोठें उतरलां.

*राणी तारामंत तेची रे,*
*राणी तारामंत तेची मूं*

: अरे देवा म्हण्टा, आतां भुरगें ना बाळ म्हण्टा, मोठो तरासां तर पडला आनी ह्या वटेन म्हण्टा परधाना कोण वर्तुमान तर जालां.

*बरो परधान नी राजा रे,*
*बरो परधान नी राजा मूं*

: अशी काय परधाना भारी काय चिंता लागली, ते नंतर काय परधान उठलो आनी राजा दरबारां तर चलता.

*राजा म्हऱ्यांत परधान चल्ला रे,*
*राजा म्हऱ्यांत परधान चल्ला मूं*

*म्हाज्या राजा न्हूं तूं धनया रे,*
*म्हाज्या राजा न्हूं तूं धनया मूं*

*कसं चिंतेक तुवूं पडला रे,*
*कसं चिंतेक तुवूं पडला मूं.*

: आरे परधाना म्हुणों लागलो की, आतां इतलो लोकां म्हुणों लागलो की, आपणें म्हण्टा इतकीं वर्सां राज्य चलोवन तर फुकट तर जालां. इतकें विसरून काय ह्या लोकांनी भास काडला नी मोठो काय हट काय केला.

*म्हाजें अन्न घेवूं जायना रे,*
*हातचें उदक घेवूं नये मूं*

: असो काय जल्म घेवून आपूण कित्या काय उपेग, काय मेलेलो म्हण्टा बरो, इतकें म्हुणोन तो राजा काय येवजिता.

*म्हाज्या राजा नी तूं धनया रे,*
*सांगता तेवूं नी तूं आयक मूं*

: अशें काय म्हण्टा तुवें एके बायलेडेन लग्न जावन म्हण्टा भुरगें जर जायना जायत तर दुसरी काय बायल तर करची.

*राजा लग्न तुका करया रे,*
*राजा लग्न तुका करया मूं*

: अशें काय म्हण्टा परधानान सांगलां आनी राजा काय खरें तर पटलां.

*सोयरागती कोण धाडचो रे,*
*सोयरागती कोण धाडचो मूं*

: अशे काय आपले शिपाय - पेदे आसा इठोजी, बाबोजी, काळोजी, निळोजी, सोलदार तर आसा.

*तेंकां पाटोवन राज्यां दिवंचे रे,*
*तेंकां पाटोवन राज्यां दिवंचे मूं*

: इतलें सांगोन म्हण्टा, तेंकां पयसो आटको दिवंचो आनी सगळे तान-भूक लाडू दिवून तर धाडचे. इतलें सगळें वर्तुमान काय सांगलां आनी परधान आसा तो काय आपल्या घरी तर चल्ला.

*परधान घरी म्हालां चल्ला रे,*
*परधान घरी म्हालां चल्ला मूं*

*मोठी राजा न्हीद पडला रे,*
*कोंब्यान घायलो नी तो शाद मू*

: असो काय कोंब्यान घायलो शाद, मोरान सोडलो बांग, सूर्या रथ काय गडगडला आनी गाये-गोरवांक पडला काय हामराट.

*वयर सूर्य देव उगवले रे,*
*ह्यावूय मृतखंडा मार्गाक मूं*

: असे सूर्यदेव काय उगावले, मृतखंड राज्यां, सातय मार्गां, णव खंड धन्नी काय बाराखंड सागरा आपलीं किरणां काय सोडल्यां आनी अशें जिती जिवार आसा तें कांय चरों गेलें आनी लोक काय उठोन आप-आपलीं कामां तर करतां आनी असो राजा आसा तो काय इठोजी, बावोजी, काळोजी, निळोजी, आपल्या सोलदारां शाद तर मारता.

*चल्ले राजा नी म्हऱ्यांक रे,*
*चल्ले राजा नी म्हऱ्यांक मूं*

: आरे राजधनया म्हुणों लागले की, कित्याच्या म्हुणों लागले की कामासाठी तर शाद तर माल्ला?

*मोठें काम जायें करूं रे,*
*मोठें काम जायें करूं मूं*

: अशें काय म्हण्टा, तुमी तान-भूक लाडू तर घेवंचे आनी पयसो आटको काय तुमच्या खर्चा तर व्हरचो.

*राजभक्ती नी भोवुंचे रे,*
*सोयरागती करच्यो खबरी मूं*

: अशे काय बरे काय दिल्ल्या उतराचे, राजाले शिपाय काय पेदे तर आसा. एक पोल्यार घायल्या पोगडी, एक कुल्यार घायल्या धोत्री आनी मोठे काय आंगीचे कोट काय आंगीं तर जपल्या.

*तान-भूक लाडू घेतल्या रे,*
*तान-भूक लाडू घेतल्या मूं*

*पयसो आटको खर्चा घेतला रे,*
*पयसो आटको खर्चा घेतला मूं*

*चलता धुल्ला नी मार्गाक रे,*
*चलता धुल्ला नी मार्गाक मूं*

*गांव देश नी भोंवता रे,*
*कन्ये करता नी त्यो खबरी मूं.*

: वयता त्या गांवां म्हण्टा, कन्येच्यो - कोणाच्यो खबरी तर करता. अशे काय भोंवत भोंवत राज्यां काय फार्टी सोडटात, फुडें राज्यांत तर पावतात.

*कन्या काय मेळ नायी रे,*
*कन्या काय मेळ नायी मूं*

: बरे काय तानेन तानेले, भुकेले भुकेले, सरगदान तर जाले, एका अटंगी

मार्गा तर चलों तर लागल्या.

*बरे सूर्य-चंद्र राज्यां रे,*
*पावले सूर्य-चंद्र राज्यां मूं*

: अशे काय सूर्य-चंद्र राज्यां पावता आनी कोण वर्तुमान तर जालां. बरें काय रस्त्यार तर पिंपळाचें पेड आसा आनी ते नंतर सकल काय नागधन्नी तळय काय तर आसा.

*बरे तानेन तानेल्या रे,*
*बरे भुकेन भुकेल्या मूं*

: अशे काय तेणी म्हण आपले कपडे तर काडले आनी ते पिंपळाच्या पेडार तर दवल्ले आनी आपूण काय सकल तळ्यां तर गेल्या.

*हात-पांये धुवूं येयल्या रे,*
*तोंड-मूख नी आडयलां मूं*

: अशे काय पोटभर पाणी पिले आनी आसा तशे येयले, पिंपळा पेडार तान-भूक लाडू लागले काय खावपाक.

*तान-भूक लाडू खाता रे,*
*तान-भूक लाडू खाता मूं*

: असे काय चौगू आसा ते सुशेग काय जाले आनी एकटो आसा तो काळोजी म्हण्टा असो वयर काय तर पळयता.

*कोण वर्तुमान जाता रे,*
*सूर्य-चंद्र नी राज्यांत मूं*

: अशें काय वरशे नदरेन पळयल्यार उपरासंगी माळयां काय मोठी कन्या तर आसा.

*शिपायां धावो नी घालिला रे,*
*शिपायां धावो नी घालिला मूं*

: अशे काय खायले तान-भूक लाडू आनी आरे, म्हुणों लागले की आमी इतके आसून काय तर पळयलें ना. अशें म्हुणों लागलो की, कन्या म्हुणों लागलो की उपरासंगी माळ्यां तर आसा.

*फुडें लागले नी चलोंक रे,*
*फुडें लागले नी चलोंक मूं*

: अशे काय चालून तर चालल्या, पावून तर पावल्या, सूर्य - चंद्राच्या काय राज्यां, तर शिपायां-पेदीं मेटीं तर आसा.

*दारां शिपाय-पेदे नी आसा रे,*
*सूर्य-चंद्र नी राजाचे मूं*

: अशे काय सुर्य-चंद्र राजाचे शिपाय-पेदे इचार काय लागले तर करुंच्याक.

*तुमी कोणा राज्या शिपाय रे,*
*तुमी खंयी नी चलता मूं*

: आपूण म्हुणों लागले, त्या सेनापती राजाचे शिपाय, आमकां म्हण्टा काय सोयरागती तर धाडला आनी तुमची कन्या आसा जाल्यार म्हुणों लागले की आमकां खबरी काय करूंक तर जायी.

*धनया वर्द आमकां नायी रे,*
*धनया वर्द आमकां नायी मूं*

: तेचे काय शिपाय - सरदार काय चौग उठले आनी काय व्हडले राजा धनया म्हऱ्यां काय चल्ल्या. आरे राजा धनया म्हणलें की, सेनापती राजा धनया म्हणलें की, तेचे शिपाय काय सोयरागती तर येयल्या.

*येयल्यार फुडें राज्यां सोडाय रे.*
*येयल्यार फुडें राज्यां सोडाय मूं*

: अशी धनयान वर्द दिली नी, अशे काय येयले, तुमकां म्हुणों लागले की फुडें राजान तर हाड म्हुणोन तर सांगलां. अशे काय गेल्या राजधन्नी ते राजा

सभे काय बसल्या. अशें काय उदक - पाणी हाडून राजान दिल्या, गोड-साकर काय शिपायां - सोलदारां हाडून तर दिल्या. बरें उदक-पाणी घेवन सुशेग तर आसा.

*खबरी मात नी बोलता रे,*
*खबरी मात नी बोलता मूं*

: अरे म्हणलें की, तुमी कोणा राजाचे शिपाय म्हणलें की, कोण राजा तर तुमचो? तुमी कित्या, खंयच्या कामासाठी तर भोंवता? आमी म्हुणों लागले की सेनापती राजाचे शिपाय, कोणाची म्हुणों लागले की कन्या दीत जाल्यार आमी सोयरागती तर सुटल्या!

*आपली आसा नी ती कन्या रे,*
*आपली आसा नी ती कन्या मूं*

: अशे काय म्हुणों लागले की, चेडवाची वस्त आसा ती खंयच्या तरेन म्हुणों लागले की घरा दवरूंक काय तर मेळना. अशें बारा वर्सांपासून म्हण्टा, आवय-बापायक कन्येचें ध्यान तर उरता.

*तेरा वर्सां नी भरल्या रे,*
*आंगी कन्या नी भरता मूं*

: आंगी भरता अशी नी भरतार तर येवंचो आसा, कोणाच्या फाटल्यान कन्या काय तर वयता. अशातरेन म्हण्टा, ती म्हण्टा, आवय-बापायक कशी तर मेळना आनी कसंतरी पुत्र जाल्यार म्हण्टा, मांडयेर तर बसूं ना जाल्यार वयर जाल्यार बसूं, आवय - बापायक तर पोसता.

*उतर राजान तें दिला रे,*
*उतर राजान तें दिला मूं*

: आपल्याक आसा ती धूव म्हण्टा दिता तुमकां, तुमी म्हण्टा नांव - नांवरस काय काडूं लागा. अशी काय नांव - नांवरस काडून म्हण्टा येळ - म्हुर्त काय तेमी थारयला.

*बरो येळ - म्हुर्त थारयला रे,*
*बरो येळ - म्हुर्त थारयला मूं*

: अशें काय आयतारा देवकारयें, सोमारा काय लग्न काय बारा वरांवयलें, अशें काम करूं तर जाये.

*इतली ताकीद राजान दिल्या रे,*
*इतली ताकीद राजान दिल्या मूं*

: अशे काय गेले आनी मोठीं कामां काय वचून त्या सेनापती राजाक, काय त्या शिपाय - सोलदारां तर लागले सांगूंक आनी त्या राजाची पयली तारामंती राणी आसा ती काय आपल्या आवोगेर तर चल्ली.

*राणये खबर देवा नायी रे,*
*राणये खबर देवा नायी मूं*

: अशे काय राजान त्या नंतर म्हण्टा मोठी काय खातेली - मातेली म्हण्टा, सैन्याक सगळ्या एकीकडे काय मोठी ताकीद दिल्या. अशे सात - आठ गांवचे कुंये जोडचे, मळी-माटोव काय जपून तयार तर तयार करचे.

*लोक लागले नी ते करपा रे,*
*राजा लग्ना नी तो थाट मूं*

: अशे काय कलवतां - पात्रां पळोवन जालीं आनी यातरेन म्हण्टा, सगळीं सामानां तर पुनयल्या.

*राजा लग्ना जाला म्हुर्त रे,*
*राजा लग्ना जाला म्हुर्त मूं*

: अशे काय राजाची पालखी रंगोवन काय राजा पालख्यां बसला, कमर काय नीट करूं तर जायना!

*सात बडयां येट बांदला रे,*
*कमर राजा नीट करपा मूं*

: अशे काय पालखी रंगोवन, राजाक काय रंगोवन त्या पालख्यां बसयलो आनी पालखी काय सांजे येळा खांद तर माल्ल्या.

*फोग - पेट नी लायिता रे,*
*राजा व्होर मार्गा चलता मूं*

: अशे काय वाजंत्री वाजता, पात्रां-कलवतां नाचता, मार्गार लोकां मुंय रिगच्या काय जागो उरना, पांच दिशे काय वयता, सूर्य-चंद्र राज्यां काय व्होर चल्ला.

*बरो सूर्य-चंद्र राज्यां रे,*
*पावला सूर्य - चंद्र राज्यां मूं*

: असो काय सूर्य - चंद्र राज्यां लोक म्हण्टा, आमच्या राजा म्हण्टा तोकेवंक लागलो, तोकेवणे म्हण्टा अंत ना जालो, अंत ना देवा पार!

*व्होर मार्गार चलला रे,*
*व्होर मार्गार चलला मूं*

: आनी राजा कन्या आसा ती माणिक-मोतयां माळ घेतल्या नी कशी काय खाली तर पळयता.

*पालख्या आसा पिकलो राजा रे,*
*केंसान केंस राजा पिकला मूं*

: असो काय पोल्यार पोलो पडला आनी दांतार दांत तर झडला.

*बरो म्हातारो दिसता रे,*
*बरो म्हातारो दिसता मूं*

: असो काय राजा व्होर आसा तो फुडें मांटवां न्हिदलो आनी कन्ये पितांबरां-साडी न्हेसोवंक राणी तर चल्ल्या.

*राणी वयर नी चलल्या रे,*
*राणी वयर नी चलल्या मूं*

: आगो बाये धुवे म्हण्टा, तूं साडी-सोनें काय न्हेस आनी लग्नाचो म्हुर्त काय मोठो लागीं तर पावला.

*आपूण लग्न तेचेकडेन जायिना गे,*
*आपूण लग्न नी जायिना मूं*

: तो म्हण्टा, पिकून काय तांबडो, गोरो काय धवो, काय जाला आनी तेचो पोल्यार पोलो तर पडला.

*तुवूं जायी आई लग्न गे,*
*आपूण लग्न नी जायिना मूं*

: देवा म्हटलें आनी राणी धळधळ्यां रडत काय खाली तर देंवली. त्या नंतर राजा आसा तो ना ना तरेन फुसलेल्यार कन्या काय कश्यातरेन राजा तर आयकना.

*राजा खाली नी देंवला रे,*
*राजा काळें तोंड जालां मूं*

: इतलो म्हण्टा आपूण सूर्य-चंद्र राजा, व्होर म्हण्टा परतून गेल्यार आपलें तोंड काय दाखोवपाक लोकां तर जायना, आसलो तो मेलो म्हण काय तर बरो.

*परधानान घात नी घडिला रे,*
*परधानान घात नी तो घडिला मूं*

: असो परधान बुद्धी कोन्न म्हण्टा की अशातरेन उपरासंगी माळ्यां गेलो, धुये म्हणलें की पितांबरां - सोनें न्हेसून, माणिक - मोतयांची माळा तर घे.

*एक फाटी माळ घेवूं गो,*
*बापाय लज धुये राख मूं*

आरे परधाना, म्हुणों लागली की, कशें करूं? तो म्हुणों लागली की आज नाजाल्यार फाल्यां तर मरतलो आनी कशातरेन म्हुणों लागली की आपूण

तेचेकडेन माळा तर घेवूं?

*धुये एक तुका सांगता गो,*
*आयकून तुवूं मनां घेवूं मूं*

: इतलो तुजो बापूय सूर्य-चंद्र राजा, इतलो राज्य चलोवपाचो, राज-सभे वचून तर बसपाचो आनी तुयें व्होर परतिल्यार म्हण्टा, तो आसलो तो मेल्यार म्हूण तर बरो. तेका लागून म्हण्टा, हेची माळा घेवून, एका पासून तूं बारा खंड राज्यांपासून घेयल्यार तरी जाता.

*राणये - कन्ये खरें पटलां रे,*
*माणिक - मोतयां माळ घेयल्या मूं*

: अशे काय पितांबरां सोनें न्हेसली, माणिक-मोतयांची माळ घेयली नी, अशी काय माटवां तर येयल्या आनी माटवा मुखार, सव्या मुखार काय एक पट घायला नी अंतरपाट काय धल्ला.

*दोगां माळ नी घालिता रे,*
*दोगां माळ नी घालिता मू*

: अशी काय माळ घायली आनी सात दीस, सात राती लग्न काय तडाख्यान केलें आनी सेनापती राजाचो व्होर आसा तो फार्टी परतलो.

*चल्लो सेनापती राज्यांक रे,*
*पावलो सेनापती राज्यांक मू*

: असो काय राज्यां लोक येयलेलो तो आप-आपल्या घरी काय गेलो आनी राजा-राणी आसा ती काय त्या राजघरा दरबारां तर आसा.

*बरें राज्य नी तो करता रे,*
*बरें राज्य नी तो करता मूं*

: आनी तारामंती राणी आसा ती आपल्या कुळारासान घरा काय येयल्या.

*राणये घात नी घडला रे,*
*राणये घात नी घडला मूं*

: काळा-दुस्मानान म्हण्टा, चांडाळान, भरतारान म्हण्टा आपल्या खबर तर मारनासतनां दुसरी बायल तर केल्या. आनी वाडूं गेल्यार एक दोंवलो काय खड्ड्यार तर मारता.

*अशी तरास राणये दिता रे,*
*धाकटी बायल तरास करता मूं*

: पाडापोडों, एके वटेन रडटा आनी एके वटेन घालता तो पेजे निवोळ खाता आनी राजाक, भरताराक तेयेची सोद ना चवकशी.

*राणी तरासां देवा पडल्या रे,*
*राणी तरासां देवा पडल्या मूं*

: पाडा पोडों म्हुणों लागलो की देवा इतको हो संवसार, इतलें देवान भगवंतान तर निर्माण केलां. अशातरेन चल्लां, पळयल्यार दोन तीन वर्सां गेलीं, धाकटेगेर भुरगें ना बाळ आनी हियेकय भुरगें ना बाळ.

*राजा घात नी घडला रे,*
*राजा घात नी घडला मूं*

: इतलें करता पासून पयले बायलेक म्हण्टा, अशे दीस काय लागले भरच्याक.

*म्हयने लागले राणये लोटों रे,*
*दीस लागले राणये लोटों मूं*

: अशें करता, दोन-तीन म्हयने गेले, चार-पांच म्हयने राणये काय लागल्या.

*राणये आंग जड जालां रे,*
*राणये आंग जड जालां मूं*

: असो राजा आसा तो खंय धाकलेचे कुशीक म्हण्टा, अन्न ना उदक तर राणयेक. इतलें करतापासून राणी आसा ती धळधळ्यां रडटा, ह्या म्हातारपणांत हें खंयचें देवान भगवंतान तर दिल्यां.

*बरें धळधळ्यां रडता रे,*
*पाडापोडों होवूं जल्म मूं*

*दिसा एक बांदता येट रे,*
*पोटा बांदता आनी येट मूं*

: अशें करतापासून परधान आसा तो एक दीस तियेचे सोदी गेल्यार, ती राणी आसा ती हे भाशेन खेद तर जाल्या. आगे राणये म्हुणो लागलो की तुका कितें काय तर घडटा?

*म्हाज्या बाबा न्हूं तूं पुता रे,*
*आपल्या दुवाळे घुंवता मूं*

: आपल्या म्हण्टा, म्हातारपणांत म्हण्टा, देवान हें काय गुरवारपण तर दिल्या, आनी आपल्या काय तें अन्न ना उदक, तीं दोगांय सुशेग तर जेयता, मौज-मस्कऱ्यो, खेळ-पाट काण्ण तर खेळोंक तर लागल्यां.

*कशातरेन तरास नी काडूं रे,*
*जायना संवसार नी करूंक मूं*

: असो काय परधान उठलो, राजा पलंगार गेलो, राजा म्हुणों लागलो की, पयले बायले हे तुजे म्हयने तर भरतात. आनी कशीं जांव म्हुणों लागलो की म्हातारपणांत कन्या जांव ना जाल्यार कुंवर, तो काय म्हुणों लागलो की तुज्या राज्यार उजवाड तर घालतलो.

*तियेची चोय-चवकशी कर रे,*
*तियेची चोय-चवकशी कर मूं*

: अशें काय राजा मोठें पटलें, राजा म्हण्टा की अशें वैजिणी दवरूं काय तर लागला.

*बऱ्यो दिडपिणी त्यो दासी रे*
*राणये सिरइसाक दिता मूं*

: अशीं सात म्हयन्याचेर काय फुलां माळ्ळीं, आठ म्हयनो, णव म्हयनो काय लागों तर लागला.

*णव म्हयनो राणये लागला रे,*
*णव म्हयनो राणये लागला मूं*

: अशें काय णव म्हयन्याचेर म्हण्टा, राजा भायल्या राज्यां अशें काय फिरपा वचपा तर जायें.

*राजा भायर फिरपा वचपा रे,*
*राजा वारूं शिरंगार केला मूं*

: असो काय वारूं आसा तो शिरंगार केला आनी आपूण काय शिरंगार तर करता. आनी दासीं वैजिणीं सांगलें, कन्या जावूं नाजाल्यार पुत्र जावूं, तुमी बरेतरेन राणयेचीं शिरयिसां करचीं आनी आपूण येतां आनी तुमकां एक एक शिंपलें द्रियें तर दितलों आनी पुत्र जाल्यार म्हुणों लागलो की माणिक - मोतयांचो, केंपुद्रांचो पिरथी काय णवखंडा धन्नी पावस तर पडटलो आनी कन्या जाली म्हुण्टल्यार पावस इगळ्यांनी ह्या पिरथीर तर झडटलो.

*राजा सगळीं कामां सांगता रे,*
*राजा सगळीं कामां सांगता मूं*

: आनी राजा आसा तो उठून काय आपल्या वारवार बसला, भायर काय राज्यांत फिरों काय तर सुटला.

*दासी करता सिरइस चाकरी रे,*
*दासी करता सिरइस चाकरी मूं*

: अशीं काय राणयेचीं सिरइसां करून, णव म्हयने, णव दीस, णव घटका काय राणयेचीं संपरुण तर जाल्यां.

*बरे मध्यांनी राती रे,*
*राणये पिडा नी चाळवल्या मूं*

: अशी काय राणये पिडा चाळवली आनी राणये काय पोटां चाळवलें नी, येणार काय येण सुटों तर लागल्या. ती राजाची धाकटी बायल आसा तियेन, काय दासीं कोण वर्तुमान सांगलां.

*दासी येया आपल्या म्हऱ्यां गो,*
*दासी येया आपल्या म्हऱ्यां मूं*

: आगे दासी म्हटलें की, राजान कितें दितां म्हूण तुमकां इचार तर करता. आपल्याक राजान काय एक एक शिंपलें काय द्रियें मोठें दिता म्हण काय सांगोन गेला. आपूण म्हुणों लागली की, दोन - दोन शिंपलें द्रियें दिता, आपूण सांगतां तीं म्हण्टा कामां तुमी तर करों तर जायीं. आपूण म्हण्टा कोणालें चड पडलेलें तेगेलीं ज्यास्त काम तर करता.

*आमी तितल्या नी कामाचीं रे,*
*आमी तितल्या नी कामाचीं मूं*

: आतां म्हण्टा, राणी परसूद जाताना, तिगे दोळ्यां पाट बांदा नी, कन्या जावूं, नाजाल्यार कुंवर जावूं, तेका काडा नी खंयीय जाल्यार मारून तर वडयात.

*इतलें राणयेन - धनिणीन सांगलां रे,*
*दासीं - वैजिणीं सांगलां मूं*

: इतलें म्हुणों लागलें आपूण कितें मेळटा तेगेलें खावून जाल्यार काम करतलें, आपल्या धा मेळटा जाल्यार पंदरा मेळत तर आपूण कामां शिकत.

*दोळ्यां राणये पाट बांदला रे,*
*राणी परसूद देवा जाता मूं*

: अशी काय राणी परसूद जाल्या आनी तिका कुंवर काय मोठो जल्मा तर येयला.

*बरो सूर्याच्या वर्णाचो रे,*
*कपली चांद-सूर्य नियाळटा मूं*

: अश्यो कुंवरा तोंडी दिव्या जोती म्हण्टा, कपलीं काय चांद-सूर्य नियाळटा, बोंमलीं काय रत्नां तर जळटा.

*कुंवरा वल्ल्यांक भरिला रे,*
*कुंवरा घेवन तिवूं गेल्या मूं*

: असो काय कुंवरा व्हयला, फोंड तर काडला. शेणा गायरींत काय सोडला आनी हेंवाळीं-बेबीं काय हाडून राणये फुड्यांत तर सोडला आनी तेन्ना राणयेच्या दोळ्यांचो पाट सोडला आनी धाकटी बायल आसा ती दासीं इचार काय करता.

*कितें जालां नी दासींनो गो,*
*राणयेगेर कितें जल्मा येयला मूं*

: धनिणी म्हुणों लागली की कितें सांगूं? तुमगे राणयेगेर म्हुणों लागली की हेवाळीं-बेबीं काय हीं पळय तर जाल्यांत.

*राणलान बेब्या वंशाक भरल्या गो,*
*राण बेब्या घेवन नाचता मूं*

: देवा म्हण्टा, ह्या म्हातारपणांत भगवंतान आपल्याक गुरवाचार धाडलो आनी हेवाळीं-बेबीं काय म्हण्टा हाडून तर सोडल्यां आनी ह्या वटेन म्हण्टा, कोण वर्तुमान बाप्पा कळटा, माणिक-मोतयांचो, केंप - वज्रांचो पावस पडटा णव खंडा पिरथी!

*राजा खुशाल तो जाला रे,*
*राजा खुशाल खुशाल जाला मूं*

: आनी त्या वटेन म्हण्टा, बारा वरां राती अशी काय गाय न्हिदलेली, गाये काय मोठें सपन तर जालां.

*गायेन बिड्डें नी सोडिलां रे,*
*गायेन माल्ली गायरींत उडी मूं*

: अशी काय गायरींत उडी माल्ली, शिंगाडो काय शेणांत माल्लो नी कुंवरा

काय उत्को काय केलो. दांग माल्ली नी वयर तडीर काय हाडला.

*कुंवरा ल्हेवन पुशिला रे,*
*नाळे-वाळे कुंवरा कापियला मूं*

: अशें दूद पाजयलें घेवन काय गोठ्यां गेलीं आनी कुंवरा गवणी काय दवरिला.

*बिड्डें घातलें नी गळ्याक रे,*
*गाय गोठलां उबी आसा मूं*

: आनी भायर म्हण्टा की पावस पडनाका, राजा आसा तो आपल्या घरी काय येयला.

*बरो हांसता उमेदीन रे,*
*वारुं तेचें घरा वयता मूं*

: अशें काय आंगणा देवचेकडेन फोग-पेट नाळे-गुळे काय मोठे राजा, उमेदीन मोठो सर्गा सोडूं तर लागला.

*धाकटी बायल दारां उबीं रे,*
*धाकटी बायल दारां उबी मूं*

*इतलो खबरी राजा कळटा रे,*
*बायल लागली बोवाळ मारच्या मूं*

: बरो काय कन्या काय पुत्र जालो म्हण आता उमेदीन येयला. राव मेल्ल्या, बायलेगेर हेवाळीं-बेबीं तर जाल्या.

*देवा काळें राजा तोंड रे,*
*बुद्धी कळ्ळी राजा ना मात मूं*

: कटा कटा देवा म्हण्टा, निर्माण केल्ल्या भगवंता म्हण्टा, ह्या म्हातारपणांत म्हण्टा, ह्या पदरांत तर हीं पातकां.

*कसों राजसभे वचों रे,*
*कसों राजसभे वचों मूं*

: देवा म्हण्टा, मेल्यार पूण बरो आसलेलो, ह्या म्हण्टा, म्हातारपणांत म्हण्टा, लोक म्हण्टलो राजा बायलेगेर बेबीं, हेवाळीं जालीं म्हण काय तर उलयतलो.

*राजा कायी चिंते पडला रे,*
*चल्ला घरी नी म्हालाक मूं*

: असो काय घरी म्हाला गेला आनी राजा काय मोठो सुशेग काय वोग्गी सोशेणी घेवन काय मोठो बोचको कवळून निंद्रा काय तर न्हिदला.

*शाम-नाम चेडी सांगता रे,*
*शाम-नाम चेडी सांगता मूं*

*जाल्लें काडू स्वामी जायना रे,*
*मोडलें स्वामी केदें उरना मूं*

: आरे, पाडा पोडों! शा! म्हुणों लागलो की इतलें स्वामी पती भरताराक सांगलें नी, राजा खरें तर पटल्या आनी बरीं काय दोगां जेयता खाता, मोठी काय दोगां राज्यां कांय चलोवंक तर लागल्यां.

*राणये घायल्या पेज नीस रे,*
*राणये घायल्या पेज नीस मूं.*

: एक दीस घायल्यार म्हण्टा, दोन दिसांनी, तीन दिसांनी, वायळो पेजेचो नीस काय मोठो कन्ये तर घालता.

*कोण वर्तुमान जाता रे,*
*कोण वर्तुमान जाता मूं*

: अशें काय ती गाय काय मोठें तर दूद पाजता आनी कुंवरा काय गोठलां तर आपल्या पाडका बरोबर तर दवरिता आनी कुंवर म्हण्टा इल्लो इल्लो वाऱ्यार तर वाडोंक तर लागला.

*अश्यो खबरी राज्यां घडलां रे,*
*अश्यो खबरी राज्यां घडलां मूं*

: इतलें करतापासून कुंवर काय गोठलांपासून इल्लो इल्लो गाये फाटल्यान काय लागलो तर वचपाक.

*गाये फाटल्यान कुंवर वयता रे,*
*गाये फाटल्यान कुंवर वयता मूं*

: अशी काय गाय कडे - कपारी घेवन काय त्या कुंवरा काय मोठी जतन काय तर करता. कुंवरा खाली बसोवन आपूण काय मोठी ग्रास तर घेता.

*अशातरेन गाय करता रे,*
*ह्यावू तरेन गाय करता मूं*

: अशें काय एका दिसा बऱ्या मळार गोरवां घायल्यार राखण्याचे पोर काय सगळे मोठे, खेळ काय मांडला आनी त्या पोरांनी गोरवां परतुवपाचो अश्यो काय पयऱ्यो वांटून तर घेतल्यो.

*बरो खेळ कुंवर खेळटा रे,*
*बरो बारांचो तो खेळ मूं*

: असो बारांचो खेळ खेळोन म्हण्टा, एक खेपे बार माल्ल्यार म्हण्टा दुसरो काय गोरवां परतुवंक तर वयता.

*एकटो परतूंक गाये गेला रे,*
*एकटो परतूंक गाये गेला मूं*

: बरो गाये फाटल्यान कुंवर म्हण्टा, सुर्या तेजाचो, सुर्य काय फाटीं कुंवर काय फुडें तर म्हण्टा.

*कुंवरान धावो नी घालिला रे,*
*कुंवरान धावो नी घालिला मूं*

: असो परतून येयलो आनी दादो म्हुणों लागलो की, राजाले म्हाल गाये

फाटल्यान कोण मौजेचो कुंवर तर भोंवता.

*बरो सुर्याच्या वर्णाचो रे,*
*बरो सुर्याच्या वर्णाचो मूं.*

*होवू राजाक तो फावो रे,*
*होवू राजाक तो फावो मूं*

: हो कुंवर म्हणलो की, आमगेल्या राजाक काय फावो आनी आमगेल्या राजान काय हेका बाळगिल्यार आमगेलें राज्य काय तर चलतलें.

*दोगू जाण ते सांगों गेल्या रे,*
*दोगू जाण ते सांगों गेल्या मूं*

: अशे दोग जाण काय ते उठ्ठा आनी राजा दरबारा काय सांगों तर वयता आनी धाकटी बायल आसा ती घागर–चुंबळ घेवन काय पाणट्यार तर वयता.

*बरे तळयेच्या नी पाणट्या रे,*
*रांड उदकाक ती येता मूं*

: आनी हे दोग जाण भुरगे काय वयता आनी, आरे बाबा पुता, तुमी खंय काय वयता म्हण इचार काय तर करता. आगे म्हण्टा, आमी दोगीं तुमगेल्या घराकडेन तर वयता.

*आपल्याक सांगों तुमीं जायें रे,*
*मागीर चला तुमी फुडें मूं*

: आपल्या सांगनासतना गेल्यार तुमकां दंड सांगून आपूण मार काय तर दितलें.

*पुत्र भिवोंक ते लागल्या रे,*
*कुंवरां भंया–भिती जाल्या मूं*

: धनिणी म्हणलें की, तुमगेल्या म्हाल गायी फाटल्यान कुंवर तर सूर्या वर्णाचो

म्हण्टा, ह्या तरेन तो कुंवर तर भोंवता आनी तुमकां पुत्र ना फळ म्हण्टा, कन्या ना दान काय तर ना म्हण्टा.

*तोवूं कुंवर तुमी हाडाय गे,*
*राज्य आमचें नी चलया मूं*

*राणे जाली कुंवरा याद रे,*
*कसों कुंवर जालो जिवदान मूं*

: आरे पोरांनो म्हुणों लागली की आपल्या सांगलां तें राजा सांगों काय तुमी तर नाका, की राजाक काय भुरगीं जालीं ना आनीक आपूण काय बायल-मनीस तर आसा.

*दाखोवूंक तुमी यावूं रे,*
*दाखोवूंक तुमी यावूं मूं*

: अशातरेन म्हण्टा, दाखोवूंक या म्हण्टा आनी फाटल्यान काय ती वयता आनी फुडें काय ते कुंवर तर वयतात. घागर - चुंबळ त्या तळयें काय उडयल्या आनी त्या चंदणसुरा मळा तर गेल्या.

*गायी म्हऱ्याक पावल्या रे,*
*गायी म्हऱ्याक पावल्या मूं*

*गायी कायी नी कळल्या रे,*
*राण व्हरों कुंवरा नी येयल्या मूं*

: अशे दोळे गुंजीच्या रंगाचे केले आनी राणयेचेर खंकाळ जावन गाय काय तर येयल्या.

*राण पळून देवा गेल्या रे,*
*राण पळून देवा गेल्या मूं*

*चल्ल्या परतून नी राज्यांक रे,*
*चल्ल्या परतून नी राज्यांक मूं*

*बरें पोटखणें धरिलां रे,*
*राणये पोटखणें धरिलां मूं*

: अशी काय भेंडा येट बांदल्या नी, पोटखण्या रुपान मोठी घागर - चुंबळ थंयच उडोवन काय तर मोठी घरी तर येयल्या.

*देवा बोंब नी मारिता रे,*
*देवा बोंब नी मारिता मूं*

: असो काय कोण म्हण्टा झाड-झोपांचो पालो मुड्डून काय दिता आनी कोण काय वखदां पुडयो काय तर दिता.

*राण घेता वखदां हातां रे,*
*राण घेता वखदां हातां मूं*

: अशी काय राजाची फाट परतता आनी नंतर काय काडटा भायर तर वडयता.

*जिवार जीव गेल्या सारको रे,*
*बोंब लागलें मारुच्यांक मूं*

: अशे काय कोण म्हण्टा दोतोर हाडटा आनी कोण म्हण्टा, घाडी-जोयशी काय केल्यार इल्लो गूण पूण काय ना रे देवा.

*तोंडावेली देवा बोंब रे,*
*गांवा सगळो लोक जमलो मूं*

: आरे स्वामी पती भरतारा म्हणलें, आता जाल्यार आपूण काय मरता, आतां आपलो जीव काय तर उरना! अशें करात बुसून दीस गेलो, काळखां काय मोठी तर नेटल्यां.

*बरी मध्यांनी ती रात रे,*
*बरी मध्यांनी ती रात मूं*

: अशी काय कोणाक न्हीद ना म्हण्टा भूक, जेवण ना म्हण्टा खाण, त्या राणयेचीं करता काय सिरइसा.

*निंद्रा न्हिदले सारकी रावल्या रे,*
*बरी निगूत ती रावल्या मूं*

: अशी काय न्हिदांत बोंब माल्ली आनी किन्नाट्यो मारल्यो आनी लागली काय "राजा! राजा!" म्हण तर काय शाद मारच्याक.

*राजा फुडें देवा बसला रे,*
*राजा फुडें देवा बसला मूं*

: आरे स्वामी पती भरतारा, कितें काय पळयतलो, ती म्हाल गाय आसा ती, काळी आसा ती काय इकों जायें म्हण काय तर सांगलां.

*सपनां इतल्यो खबरी सांगला रे,*
*घरा आपल्या पुरशान येवन मूं*

: हां गे प्राणसखे, वस्तुरे, म्हणलो, आतां म्हणलो की चाळीस – पन्नास काय आमगेलीं गोरवां तर जावन काय आसा आनी एक गाय इकली म्हण, आपल्याक काय बिशाद तर ना म्हण सांगता.

*तुज्या पसत दिवंची गाय गे,*
*गाय फाल्यां तिवूं दिवया मूं*

: असो काय ते गायेचो पयसो काय घेवूं जायना, खोटी दमडी काय हाडों जाय म्हुणोन तर सांगलां.

*इतलें राणी राजा सांगता रे,*
*इतलें राणी राजा सांगता मूं*

: राजान काय उतर दिलें. एक गाय इकली म्हुणोन आपलो काय पाड पडना गोठो, तशी फाल्यां रामजी–गोमजी सकाळीं काय लावन सोदी, काणकोण सारक्या गांवांत गाय इकची.

*राणी सुशेग देवा जाला रे,*
*राणी सुशेग देवा जाला मूं*

*गाये सपन घडला रे,*
*गाये सपन घडला मूं*

: आरे देवा म्हण्टा, आपणें इतके दीस कुंवरा काय पोसून आपल्याक काय इकोंक तर केला आनी आपल्याक इकलें म्हुणोन, आपल्या मरणाचो आपल्याक कोण भंय तर ना.

*कुंवर रांडे हातां पडला रे,*
*कुंवरा घात राणी करता मूं*

: अशी काय गाय काय म्हण्टा येवजिली आनी धळधळ्यां लागली काय देवा तर रडपाक.

*घात कुंवराक तो जाता रे,*
*घात कुंवराक तो जाता मूं*

: अशी काय दूद पाजयली कुंवरा आनी मोठी काय बिड्डें सोडली नी मोठी म्हाल गाय म्हशी गोठ्यां तर चल्ली.

*राजा म्हाल म्हस आसा रे,*
*राजा म्हाल म्हस आसा मूं*

: आगो म्हशी बाये, म्हुणों लागली की, तुयें म्हुणों लागली की, सांगता तो उपाय एक काम तर करपा जायें. आतां म्हुणों लागली की सांगता तें काम आयक, म्हुणोन गावित्री तर सांगता.

*एक कुंवरा तुयें पोसचो गे,*
*कुंवर बुद्धि जाता पसून मूं*

: असो काय आपणें पोसून म्हण काय दोन-तीन म्हयने काय बाळगिला. आतां म्हण लागलो की आपल्या इकूंक केलां आनी त्या नंतर म्हण लागली की आतां तुज्या म्हऱ्यांत तर दिता.

*राणये हातीं दिवूं नाका गो,*
*तुका नमस्कार जोडटा मूं*

: शाबास म्हणलें, तीं उतरां म्हशी घेयन ती गाय काय गोठ्यां तर येयली आनी ती रातची कुंवरा काय सगळे राती दूद पाजयता, धळधळ्यां रडोन काय मोठी दुकांनी कोंडी तर भल्ल्या.

*कोंब्या शादा कुंवरा घेयला रे,*
*चल्ली गाय म्हशी गोठ्यां मूं*

: म्हशी गोठ्यां गेली, म्हशी सुवादीन कुंवरा केली, आसा तशी येयली, आपलें दायें काय गळ्यां घायलें आनी मोठी सुशेग काय तर आसा.

*बरो कोंब्यान शाद घायला रे,*
*बरो कोंब्यान शाद घायला मूं*

: असो काय कोंब्यान शाद घायलो आनी रामजी - गोमजी, इठोजी - बावोजी, सोलदारां शाद तर माल्ला. आरे चला आनी ते गायी काय काडून काणकोण म्हाला, कसो दर्या देगेर काय इका, आनी खोटी दमडी काय घेवोन तर येया.

*म्होर दगडी इकों नाका रे,*
*म्होर दमडी घेवूं नाका मूं*

: अशे काय राजान सांगलें सारके दिल्ल्या इशाराचे, सांगणी कोण काय म्हण्णी सोलदार आयकता. अशे काय दोग जाण उठले, गाये गोठ्यां येयले, ते काय दायां धल्ले, चलत्या मार्गाक चलोंक काय लागले.

*गाय धळधळ्यां रडटा रे,*
*कुंवरा याद गाये जाता मूं*

: अशे काय व्हयल्या, काणकोण सारक्या इकून काय घरी काय येयल्या, ती खोटी दमडी काय घेवून राजाक दाखयल्या.

*राजा राणी सुशेग आसा रे,*
*राजा राणी सुशेग आसा मूं*

: अशे काय राजा-राणी सुशेग जेयता-खाता, राजा म्हण्टा राजसभे काय

वयता, राजसभे काय बसता रे देवा! इतलीं कामां करता पसून म्हस काय मोठी कुंवरा घेवन आठ-पंदरा दीस काय तर येयल्या.

*बरें चंदणसूर मळा रे,*
*बरें चंदणसूर मळा मूं*

: बरे राखणे, गोरवां घायल्या आनी ती, मोठी काय म्हस एकटेन रावता, एकटेन काय म्हस तर चरता.

*कुंवरान खेळ नी मांडिला रे,*
*कुंवरान खेळ नी मांडिला मूं*

: अशे काय बारांचो खेळ खेळटा आनी तेंचो एकटो काय म्हशीक परतूंक तर वचपाचो आनी एकटो गेल्यार म्हण्टा, म्हस काय कडे-कपारी, झोपां काय मोठी कुंवरा घेवन तर चरता.

*कुंवरान धावो नी घालिला रे,*
*कुंवरान धावो नी घालिला मूं*

: असो धांवट येयलो आनी म्हुणों लागलो, आरे दादो म्हुणों लागलो की तुमच्या राजा म्हाल म्हशी फाटल्यान कुंवर कोण सुंदर काय भोंवों तर लागला.

*तोवय आमच्या राजा फावो रे,*
*तोवय आमच्या राजा फावो मूं*

: गोरो गोमटो, किल्ला कोमटो, उदका इतको नितळ, पानां इतको पातळ काय दिसता. आमच्या राजा पुत्र ना फळ म्हण्टा, तो व्हरया राजा तर आमी दिवया. राजा व्हर म्हण सांगया आनी राजा घेवन काय तर येवया.

*बरे दोग जाण यावूं रे,*
*बरे बुद्धीचे ते यावूं मूं*

: पयर म्हुणों लागले की गेल्ले कडेन आसतलीं, तड्ड बोकडां राणयेन म्हण लागलीं सांगल्यां, आज म्हण लागले राजा तर सांगया.

*बरे धांवट ते वयता रे,*
*बरे धांवट ते वयता मूं*

: अशे ह्या वटेन काय तर वयता ती राणी आसा ती उदकाक काय व्हरपा घरा कडेनसान ह्या वटेन तर येयता.

*दोगां मार्गार भेट जाता रे,*
*दोगां मार्गार भेट जाता मूं*

: बरी ना ना तरेन पुसून, बाबा पुता करून तुमी घराकडेन कित्या तर वयता म्हुणून इचार तर करता.

*आमी घरीक नी वयता रे,*
*आमी घरीक नी वयता मूं*

: इतलें म्हुणों लागले की ते कुंवोर, राखण्या भुरगे वयता आनी हिये काय चिंतो लागली आनी तो कुंवर काय हेंका दिश्टी पडला.

*आपल्या सांगों पयलीं जायें रे,*
*कसल्यो खबरी त्योवूं सांग मूं*

: आज आपल्या सांगनासतना फुडें गेल्यार आपूण तुमकां हे फुडें मार काय तर लडो घालतलें आनी कितलीय जाल्यार राजाली बायल म्हण्टा ती काय राणी, ती सांगता तें खरें तर जाता.

*कुंवर लागले तिये सांगों रे,*
*आपल्यो खबरी तिये सांगता मूं*

: आगो धनिणी म्हुणो लागले की, तुमगेल्या म्हशी फाटल्यान कुंवर काय बरो सुंदर तर भोंवता आनी तो कुंवर हाडल्यार काय तुमगेलें राजभवन काय बरें तर चलतलें आनी आमकांय तर म्हुणों लागले की उमेद तर दिसता.

*राजा सांगों पापया नाका रे,*
*राजा सांगों पापया नाका मूं*

: राजा सांगशी म्हुणों लागली की तूं खबलदार, आपूण काय कुंवरा व्हरों तर येयता.

*बरी लागली वचों मार्गा रे,*
*बरी लागली वचों मार्गा मूं*

: अशी काय चालून चालली, पावून पावली, चंदणसुरा मळार काय कडे-कपारी वचून तर पळयता.

*म्हस खंकाळ ती जाता रे,*
*धांवट लागली नी ती येवपा मूं*

: आरे देवा म्हुणों लागली की ही ह्यातरेन म्हुणों लागली की, दपत-लिपत परतली आनी घरी म्हाला तर चल्ली.

*बरें कोयतूल नी घेयला रे,*
*बरें कोयतूल नी घेयला मूं*

: अशी काय आपल्या भाटां-कुळागरां गेली आनी मोठो पालो काय लिवलो आनी चार केळीं काय काडलीं पिकलेलीं.

*बरी गेली पालो घेवन रे,*
*बरी चंदणसुरा मळार मूं*

: अशी काय म्हस नदर पडटाच दोनीय पांय उखलून काय मोठी आनी दोळे गुंजून काय राणयेचेर तर येता.

*बारा वंडी नी उडयल्या रे,*
*म्हशी मुखार नी घायल्या मूं*

: कुंवरा याद म्हशीन सोडल्या रे, पालो लागली नी खावूंक मू. कितलीय जाली म्हण्टल्यार म्हशीची जात म्हण्टा कितकी खावड मेळटा थंय बरी आसा. कुंवराची ती काय याद इसराली आनी कुंवर काय भोंवों तर लागला.

*राणी गेली कुंवरा धरूं रे,*
*राणी गेली कुंवरा धरूं मूं*

: कुंवर ह्या वटेन त्या वटेन वयता, "केळीं बाबा घे!" म्हण दोनूय - चारूय पिकलेलीं केळीं काय दाखयलीं.

*कुंवर राणये म्हऱ्यां येयला रे,*
*हांडीर कुंवराक घेतिला मूं*

: असो काय हात घायलो आनी आपल्या काय हांडीर घेयलो आनी एका अटंगी मार्गा तर वचों लागली.

*अरण्या जंगलांत चालली रे,*
*अरण्या जंगलांत चालली मूं*

: बरी काय म्हण्टा, पयस म्हण्टा गेली, त्या अटंग्या वनां देवा, काऽऽ करतो म्हण्टल्यार कावळो ना, शीऽऽ करतो म्हण्टल्यार शिल्ली ना, कोणालो शाद ना, सरांव रे देवा.

*अरण्या जंगलाक नी पावला रे,*
*कुंवरा खाली नी दवरिला मूं*

: अशें आपलें तिख्या कोयतूल आसा तें मुठां घेयलें आनी आरे म्हुणों लागली की, पोरा म्हुणों लागली की, तूं बरें राज्य चलय तर आतां!

*पोरा गोमटे घावो माल्ला रे,*
*कुंवरा रणाक पाडिला मूं*

: आरे देवा, नेण्ट्या बाळशा काय त्या रानां, अटंग्या जंगलांत तर माल्ला आनी तिये धींव काडटो म्हण्टल्यार खोरें ना कुदळ, लायतो म्हण्टल्यार उजो ना फस्क!

*घात मोठो नी घडला रे,*
*राणये घात नी घडला मूं*

: आनी असोच उडयल्यार म्हण्टा, कोणूय भोंवत येयल्यार कोणाले नदरेक तर पडटलें.

*त्योवूं ख्यास्ती नी पडटल्यो रे,*
*राण लागली नी येवजूंक मूं.*

: अशी काय भोंवत भोंवत काय वयता आनी कुमया घोल काय मोठी तर आसा. त्या घोलीं घायलें आनी वयल्यान फांतोर तर माल्ला.

*फाटीं कायी नी परतली रे,*
*आपल्या घरी नी बाणसाक मूं*

: अशी काय तळये धडेर येयली, उदक - पाणी न्हावोन येयली आनी घागर - चुंबळ भरून घरीं तर व्हयली.

*आपलीं कामां सिद्ध केल्या रे,*
*आपलीं कामां सिद्ध केल्या मूं*

: अशी काय जेयता - खाता, मोठी काय आसा आनी मोठे उमेदीन राज्यां काय चलतात.

*कोण वर्तुमान घडटा रे,*
*कोण वर्तुमान घडटा मूं*

: अशे काय चांद - सूर्या गेले अस्तबना, काळखां काय मोठी काय नेटल्या आनी अशे काय पाताळखंडा राज्यां काय कोण वृतां तर घडटा.

*बरो पाताळाच्या राज्यां रे,*
*बरो पाताळाच्या राज्यां मूं*

: अशें काय पाताळां म्हण्टा, शेखा राज्य म्हण्टा, की तो म्हाल शेख म्हण्टा मोठो बुदवंत, तेंचो पाताळां तर आसा.

*तोवूं मृत खंडा येता रे,*
*तोवूं मृत खंडा येता मूं*

: असो काय तो मृतखंडा त्या कुमया घोलींतल्यान काय तेचो मार्ग काय, मृतखंडा येवन चरून काय पाताळां तर तो वयता.

*मागीर सगळे शेख चरपा रे,*
*मागीर सगळे शेख चरपा मूं*

: असो काय येताना त्या नरमनशाचें प्रेत काय त्या कुमया घोलींत तर पळयलें.

*वाट नायी शेखा येवपा रे,*
*मार्ग नायी शेखा वाट मूं*

: असो काय येवजिता म्हण्टा, आपूण म्हण्टा, ह्या पित्रावेल्यान गेल्यार दांगून मरसर जल्मा पातक तर येता, आनी फाटीं परतून गेल्यार म्हण्टा सारीं शेख काय उपार्शी तर उरता.

*घात शेखाचो तो घडला रे,*
*घात शेखाचो तो घडला मूं*

: असो काय आपूण जलमा पातक काय करना, असो काय परतून तर गेला.

*चल्ला पाताळां राज्याक रे,*
*चल्ला पाताळां राज्याक मूं*

: आपल्या काय पलंगार गेलो, माथ्या वयल्यान काय पांगरलो, निंद्रा काय मेल्लें रुप तर धल्लां.

*सारीं शेख खबरी वयता रे,*
*म्हाल शेखा खबरीक मूं*

: आरे बाप्पा, म्हुणों लागलो कितें जालां तें आपल्याक पयलीं काय सांगों तर जायें मागीर तूं न्हिदतो जाल्यार तर न्हीद. तुका म्हण्टा कोणें दुखयलें जाल्यार बारा वर्सांची म्हण्टा, आमची तर याद.

*वयता दंसून करता वध रे,*
*वयता दंसून करता वध मूं*

: अशें काय हातीन धुकलिल्यार परतना, अशें काय सोपांनी बडयल्यार उठना, मेल्लें रूप काय शेख धोन्न तर आसा.

*सारीं शेख उपाशीं आसा रे,*
*सारीं शेख उपाशी आसा मूं*

: कशातरेन म्हाल शेख म्हण्टा चरल्या शिवाय सारीं शेखा काय चरों तर जायना, अशातरेन म्हण्टा मरपाचो उपाय जालो, तर तेची ती एक काय कन्या तर आसा.

*शेखा कन्या तिवूं आसा रे,*
*शेखा कन्या तिवूं आसा मूं*

: अशी काय उठली, बाप्पा म्हण्टा पलंगार गेली. आरे बाप्पा म्हण्टा कितें जालें तें आपल्याक म्हण्टा, सांगों तर जायें, कोणी म्हण्टा तोंडान उलयल्यार तोंड म्हण्टा, जिबेन उलयल्यार तेची जीब तर काडटा आनी कोणी तुका बडी मारल्यार आपूण दंसून म्हण्टा वध तर करता.

*कसलीं कामां बाप्पा जाता रे,*
*तिवूं जायीं पयलीं सांगों मू*

: कशातरेन म्हण्टा, हुळ्ळ ना पुळ्ळ म्हण्टा, सारकें मेल्लें रूप तर आसा.

*कन्येन म्हाल शस्त्र काडलां रे,*
*आपले गोमटेर दवरिलां मूं*

: तूं म्हण्टा बाप्पा सांगना जाल्यार म्हण्टा, आपलो प्राण काय तुजे मांडयेर येक काय करता.

*देवा घात नी घडला रे,*
*आपले मांडयेर प्राण दिता मूं*

: आरे देवा म्हण्टा, धुयेन म्हण्टा आपले मांडयेर प्राण सोडल्यार भारी पातक काय येता.

*म्हाजे धुये न्हूं तूं धुये गे,*
*कोणी माल्लो आपल्या नायी मूं*

: आपल्या नी तोंडान उलयलो ना, माल्लो ना म्हण्टा कोणी काय दुखयलो ना म्हण्टा, आपूण काय एक तर सांगता. आपल्या वयच्या रस्त्यार म्हण्टा कोणा नर मनशांलें प्रेत तर आसा. वचों म्हण्टा वाट ना म्हण्टा थीट, तेचेवयल्यान गेल्यार म्हण्टा आपूण दांगून गेलो म्हुणोन पदरा पातक तर येतलें.

*ह्यावू देखून आपूण उल्ला गे,*
*ह्यावू देखून थंड आसा मूं*

: आरे बाप्पा म्हणली की, आपल्या म्हण्टा, तुज्या घोड्यार बसून त्या पित्राकडेन तर व्हर.

*धुये घेतला फाटीर घोड्यार रे,*
*घेवन वयर नी चडला मूं*

: अशी काय त्या कुमया घोलीकडेन पावली नी ती कन्या खाली काय देंवली.

*प्रेत हातीन नी तें काडलां रे,*
*कन्येन हातीन नी तें काडलां मूं*

: अशें काय हातीं काडलें नी मोठें खांकीं घेतलें आनी बाप्पा म्हुणों लागली की आतां तुका तर सांगतां.

*तुयें एक जायें दिवपा रे,*
*तुजेकडेन वस्त आसा तिवूं मूं*

: अशें काय तुज्या शेंपेकुंच्याक म्हण लागली की, अमृताची कुपी आसा ती काय तुयें आपल्या तर दिवूं जायी आनी दिना जाल्यार म्हण्टा, सारीं शेख काय उपाशीं उरता. ह्या नंतर म्हण्टा सगळें मनां येवजिलें आनी धुये काय उतर तर दिल्या.

*तीव भास नी गे दिल्या रे,*
*शेखान धुये ती आतां मूं*

: परती काय बसली घोड्यार पित्र काण्ण म्हण्टा घेयली, पाताळांत काय गेली

आनी त्या नंतर बाप्पा तुयें दिल्ले शब्द म्हण्टा आपल्याक उतर काय तर दी.

*घात शेखा तो घडला रे,*
*घात शेखा तो घडला मूं*

: अशी काय ती अमृताची कुपी काडल्यार येता काय वयर मस्तकार विशें म्हण्टा आनी ते नंतर तें अमृत तर उरना.

*उतर दिवून सांपडला रे,*
*उतर दिवून सांपडला मूं*

: अशें काय ती अमृताची कुपी काय काडली आनी ते कन्येच्या हातां काय तर दिल्या आनी सारें विशें आसा तें काय वयर कंठा मोठें तर गेलां.

*इतलें शेखाक तें जालां रे,*
*इतलें शेखाक तें जालां मूं*

: अशी काय ती अमृताची कुपी धल्ली आनी ती मोठी काय कुंवरा उदरां तर घातल्या आनी कुंवर म्हण्टा न्हिदले सारको उठलो आनी सगलें म्हण्टा शीर वधलें तें घडलां.

*कुंवर न्हिदलो उठलो जाला रे,*
*अरण्या लागलो कुंवर रडों मूं*

: असो काय दाया हाता किरांगळे बोटा घायो काय केलो आनी मोठ्यो काय दुदाच्यो धारो तर सुटल्या.

*जाय म्हटलें तेंवूं जाता रे,*
*तेंवूं म्हटलें खरें जाता मूं*

: अशें काय ती अमृताची कुपी दिल्यार म्हण्टा, कितले शब्द उलयता तितले म्हण्टा ते तर जाता. इतलें केलें आनी ती दाया हाती किरांगळे बोट तर कुंवरा तोंडा घातला.

*कुंवर दूद नी वोडिता रे,*
*कुंवर पोट नी भरता मूं*

: आता म्हणलें की आपूण ह्या नरमनशा सुवादीन तर पडली, नंतर म्हण्टा, शेखाचे म्हण्टा राज्यांक रावों तर जायना.

*बरी तेयेन भास केल्या रे,*
*होवूं नरमनीस पडला मूं*

: आरे बाप्पा म्हुणों लागली की, आपल्या वयर मृतखंडा पावय म्हुणों लागली की, आतां तुमच्या राज्यां काय आपूण रावना.

*म्हाजे धुये न्हूं तूं धुये गे,*
*इतलीं कामां तुयें केला मूं*

*आतां कामावंत नांव गे,*
*आतां कामावंत नांव मूं.*

: अशें काय नांव कामांवत म्हणलें आनी हेच्या फुडें काय ही काणी कामावंतीली फुडें तर वयची.

*बरो घोड्यार धुये घेयला रे,*
*बरो घोड्यार धुये घेयला मूं*

: बरो काय कुंवरा खाक्या माल्लो आनी मृतखंडा राज्यां काय हाडून तर सोडला.

*शेख पाताळाक गेला रे,*
*शेख पाताळाक गेला मूं*

: अशी काय ती, येयली आनी त्या चंदणसुरा मळार दनपरावयली मदें उबी काय तर जाल्या.

*शेखा धूव कामावंत गे,*
*शेखा धूव कामावंत मूं*

: अशी ती नेण्ट्या कुंवरा काय फुडें दवल्ली आनी मोठी अमृताची कुपी घेयली नी चांद-सुर्या काय नमस्कार तर जोडटा. अशें काय इश्वरा-पार्वते

सुमरण जालें आनी मोठें काय घर-दार जावंच्याक घे म्हण्टा, मोठें उपरासंगी, काय व्रजां काय चुड्यांचें.

*झाड-झोप देवा जावंचें रे,*
*झाड-झोप देवा जावंचें मूं*

: मोठ्यो काय नारींग-सुरींग, आबोल्यो, जायो-जुयो, शेवंत्यो-मोगऱ्यो की म्हण्टा जावंच्यो आनी मोट्यो या तरेन, ना ना तरेच्यो वस्तू तर जावंच्यो.

*बरें वट्ट देवा जावंचें रे,*
*बरें वट्ट देवा जावंचें मूं*

: बरें काय त्या वट्टा भोंवतणी तट काय बांदचो आनी अशा तरेन म्हण्टा, सोन्याचें पाळणें काय जावंचें आनी तेका रस्माची दोरां काय जावंची.

*बरे शब्द राणी बोलल्या रे,*
*बरे शब्द राणी बोलल्या मूं*

: अशे काय शेखाच्या, इश्वराच्या हेणी म्हण्टा, पुन्यान म्हण्टा घर-दार जालें, बाग-बागशेर काय फावो तें जालां.

*बरी घराक ती उल्ल्या रे,*
*राणी कामावंत नार मूं*

: आनी कुंवरा व्हयला, सोन्या पाळण्या घायला आनी झिलप्यो काय दिवूं तर लागली.

*दिशी-माशी कुंवर वाडला रे,*
*दिशी-माशी कुंवर वाडला मूं*

: असो काय एका दिसाचो, दोन दिसांचो, दोन दिसांचो काय चार दिसांचो, असो काय म्हयन्याचो, दिसांचो कुंवर काय दिसता.

*कुंवर कायी वाडे वाडला रे,*
*सोन्या पाळण्या वाडी वाडला मूं*

: इल्लो इल्लो बुद्ध कळटा आनी कामावंतीक 'आई' म्हण शब्द काय तर बोलता.

*आई म्हुणूं तुवूं नाका रे,*
*आई म्हुणूं तुवूं नाका मूं*

*नारी कामावंती म्हण रे,*
*नारी कामावंती म्हण मूं*

: आरे देवा, कुंवरा हांशें ना कळना भाशें, कुंवर आसलेलो नेण्टें तर बाळशें, अशें करता बुसून, 'नारी कामावंती' म्हण शाद तर मारूं लागला.

*जायें धोणू आपल्या बाण गे,*
*जायें धोणू आपल्या बाण मूं*

*मागलें कुंवरा दिवूं जायें रे,*
*मागलें कुंवरा दिवूं जायें मूं*

: अशी काय गेली कामावंती आनी इश्वरा-पार्वते सुमरण जालें आनी आपल्या काय शेखा बाप्पा तर सुमरण जाला.

*केला धोणूस तो बाण रे,*
*केला धोणूस तो बाण मूं*

: असो काय धोणूस बाण करून काय तटां सोडला, तो धोणूस बाण हाडून काय कुंवरा तर दिला.

*कुंवर खुशाल खुशाल जाला रे,*
*कुंवर खुशाल खुशाल जाला मूं*

: असो काय दारी - दरवंजार ते नंतर बसता आनी केळीचे बोणयेर काय पिसोळीं-शेवणीं तर बसता.

*बाण लागलो कुंवर सोडूं रे,*
*बाण लागलो कुंवर सोडूं मूं*

: अशें काय माल्लेल्या बाणा काय तेच्या शेवर्णी काय पिसोळीं तर पडटा.

*बाण नेगार कुंवरा वचना रे,*
*बाण कुंवरा नेगार वचना मूं*

: इतलें करता पसून कुंवराक ती शिकारेची उमेद तर जाल्या. अशी काय सकाळीं मायथ्याक शिकार शी करची आनी सांजे मायथ्याक उदक - पाणी न्हावंचें आनी जेवण-खाण करून असो पलंगार सो न्हिदता.

*अश्यो खबरी कुंवरा जाता रे,*
*त्यावू घरी कुंवरा म्हाला मूं*

: आनी ह्या वटेन म्हण्टा कोण वर्तुमान जालां, राखण्याली पैरी काय त्या मळार व्हरपा जाल्या.

*गोरवां घेवन राखणे चल्ला रे,*
*सेनापती राजा राखणे मूं*

: अशे काय त्या मळार व्हयल्यार म्हण्टा, गोरवां चरूंक काय मळ ना म्हण्टा मैदान!

*कोण मौजे जाला घर रे,*
*कोण मौजे जाला वट्ट मूं*

: आरे देवा म्हण्टा, आमच्या सेनापती राजा वयर म्हण्टा कोण राजा उत्तम काय जाला. केळ-कवाथो दारी, नारींग-सुरींग ह्या तरेन पुश्कळ तर जाला आनी घरा पळयल्यार म्हण्टा अंत ना पार, वयर काय भांगराचो दिवो, कळस काय मोठो तर आसा.

*देवा घात तेंचो जाला रे,*
*गोरवां चरोवपाक नायी मू*

: आनी अशीं तटा भायर पेरां काय ढबाढबा पडून तर आसा. त्या भुरग्यांनी बरीं जाता तीं खायलीं आनी अर्द घेवन काय घरी परते तर गेल्या.

*बरी घरींक तेवूं गेल्या रे,*
*आपल्या घरी तेवूं गेल्या मूं*

: अशी काय गोरवां धा जाणी, पंदरा घेवन आपल्या घरी काय गेल्या आनी आवय - बापायन काय तर पळयल्या.

*म्हाज्या पुता न्हू तूं बाबा रे,*
*कोणा लागून गोरवां घरी हाडल्यां मूं*

: लोकां लागून म्हण्टा, गोरवां म्हण्टा, घरी कशातरेन काय हाडूं जायना.

*कशीं पुता तुमी हाडला रे,*
*कशीं पुता तुमी हाडला मूं*

: आगे आई, म्हुणों लागले की त्या चंदणसुरा मळार कोण मौजेचो राजा तर जाला. देववरा सारको म्हण्टा की, चार - दिसां भितर तेचें घर-दार, बाग-बागशेर काय पुश्कळ तर आसा.

*सेनापती आमचो राजा गे,*
*काय उपेग तोवूं नायी मूं*

: अशीं काय कडे - कोपरा म्हणलें की, भायर पडलेलीं पेरां म्हणलें की, आमी पोटभर खावन म्हणलें की तुमकां दाखोवपा तर हाडल्यां.

*बरे सुशेग तेंवूं न्हिदला रे,*
*बरे सुशेग तेंवूं न्हिदला मूं*

: असो काय सांजेपार जावन काय मध्यानी पार जालो, मध्यांनी पार जावन काय फाल्यावेलो पार तर जाला.

*कोंब्यान घायलो तोवूं शाद रे,*
*मोरान सोडलें देवा पांख मूं*

: अशें काय म्हण्टा बऱ्या वेळान रात पडली आनी म्हण्टा मागीर उजवाड जालो, तेन्ना हियेन म्हण्टा आपलीं घागरी - माटां काय घेवली आनी पाणट्यार तर गेल्या.

*बऱ्यो बाये त्योवूं बायलो रे,*
*वयता पाणी नी हाडूंक मूं*

: अशें म्हण्टा, त्या राजाली राणी म्हण्टा पाणट्यार गेली, तर सगळ्यांल्यो, बायलांल्यो खबरी तर जाता.

*दादल्या पुरुशाच्या कानी रे,*
*कसल्यो खबरी नी पडल्यार मूं*

*तीन दीस पूण उरता रे,*
*दादल्या पुरुशाच्या कानां मूं*

: आनी बायले वस्तुरेच्या त्या मानान कानां पडल्यार म्हण्टा, तीन मिनटां ती खबरी काय उरना.

*जाल्यो तेंच्यो तेवूं खबरी रे,*
*काय तेंच्यो पाणट्यार मूं*

: आपल्या काल म्हण्टा भुरग्यांनी, कितलीं पेरां, कितलीं केळीं, कितल्यो मोसुंब्यो तर हाडल्या आनी आमच्या राज्यां म्हण्टा, ह्या राजासारको, तेच्याकाय मोठो, दोट्टी काय राजा जाला.

*बरें चंदणसूर मळ रे,*
*बायलां खबऱ्यो तेवूं चलता मूं*

: अशें काय राजा धाकली बायल आसा तिका, मोठी काय दुबाव तर पडला. तो पोर म्हण्टा कसोय तरी जिवदान जावन, तेणें म्हण्टा, हें घर-दार म्हण्टा बांदून भाट-बेंस तर घेयलां.

*तेच्या शिवाय कोरूं जायना रे,*
*तेच्या शिवाय कोणाच्यान मूं*

: अशी काय ती सदां घांसून येताली, ते दीस काय घांस नासतना घागर काय भरून तर हाडल्या.

*बरी कायी येवजूंक लागल्या रे,*
*कसो पोर जिवदान जाला मूं*

: असो काय हो जिवदान जावन, हें राजा कळ्ळ्यार म्हण्टा आपलो जीव काय राजा तर दवरचो ना.

*बरें चिंतोक लागल्या रे,*
*बरें चिंतोक लागल्या मूं*

: अशे काय राजाक च्या केली ना केली, साकर घायली ना घायली करून राजा दिली. अशें करून राणयेचें चित्त काय उडूंक तर लागलें आनी राजा आसा तो खायलो पियलो आनी आपले राजसभे काय तर चल्ला.

*हिये कोण मौज करता रे,*
*हिये कोण मौज करता मूं*

: अशी काय आपूण पळोवूंक वयतली म्हण हिवूं कोण बुद्धी काय काडटा आनी त्या वटेन म्हण्टा कामावंती कन्या आसा ती काय सांगता आपल्या स्वामी काय भरताराक.

*नाका स्वामी शिकार ती करपा रे,*
*आमकां शिकार तिवूं नाका मूं*

: आगे म्हण्टा, तुमगेली बायलांली जात म्हण्टा, मोठी काय हलकट. आमी काय हगां बसल्यार आमचें पोट काय भरना!

*तुमी कितल्यो नी त्यो बायलो गे,*
*तुमी कितल्यो नी हलकट मूं*

: शेट्ट म्हण्टा, तूं काय आपल्याक घराकडेन दवरिता, आपूण काय वयता तर शिकारेक!

*कल उपतन तो जाता रे,*
*कल उपतन तो जाता मूं*

: बायलेगेलें आयकनासतना हो काय आपलो धोणूस - बाण घेयला आनी फुडें मार्गा काय जंगलां तर चलता. आनी हिये म्हण्टा, कोण वर्तुमान घडटा, दार - धांपली काय आपल्या घरी तर आसा.

*राणी भायर नी सरल्या रे,*
*राजा धाकटी नी ती बायल मूं*

: धांवट धांवट वयतली आनी पळोवन काय येतली म्हण धांवट काय तर वयता.

*गेल्यार मळार नी पावल्या रे,*
*गेल्यार मळार नी पावल्या मूं*

: अशें काय मळार गेल्यार म्हण्टा, घरादारा पळयल्यार दोळो काय काडूंक जायना, ती म्हण्टा की त्या बाग-बागशेरा पळयल्यार नदर काय काडूंक तर जायना.

*बरो सुर्या देवा गूण रे,*
*देव वरा राजा पावला मूं*

: आनी मना चिंतता ह्याच भुरग्या शिवाय हें म्हण्टा, कोणाच्यान काय करूंक तर जायना.

*बरी चल्ली तटा भितर रे,*
*बरी चल्ली तटा भितर मूं*

: अशी काय आंगणा मेरेन रावल्या आनी बाये, पुता, धुये म्हण काय शाद तर मारता.

*बरी येयल्या तुजी मावशी गो,*
*बरी येयल्या तुजी मावशी मूं*

: आनी ती शेखा धूव म्हण्टा आपल्याक मावशी ना, आवय ना बापूय, आनी ह्या राज्यांत म्हण्टा खंयची मावशी काय आपल्या तर म्हण्टा.

*देवा शेखांची ती धूव रे,*
*येवजणे खाला तिवूं आसा मूं*

: आगो बाये, पुता म्हण्टा तुयें भरतार जोडलो म्हुणून तूं काय आपल्या तर वळखना.

*बऱ्यो कायी ज्यास्ती बोलता रे,*
*बऱ्यो कायी जास्ती बोलता मूं*

: आनी तेयेच्यान म्हण्टा ज्यास्ती काय आयकूं जायना, घडटा तें घडूं आनी वर्तता तें वर्तू!

*दार कन्येन काडिला रे,*
*दार कन्येन काडिला मूं*

: अशें काय तियेन दार काय काडलें आनी भितर गेली आनी बाये पुता म्हुणून काय खबरी तर सांगता.

*बरें श्याम-नाम सांगता रे,*
*बरें श्याम - नाम सांगता मूं*

: अशी काय शेखा कन्या कामावंत म्हण्टा, ह्या कानान काय आयकता आनी ह्या कानान काय सोडून तर दिता.

*मनां शब्द नी ते घेयना गे,*
*मनां शब्द नी ते घेयना मूं*

: आगो बाये, पुता राव म्हणली की, घराडेन तर वयता आनी आपणें म्हण्टा कितें खावूं तर हाडलें ना.

*राण परती बुद्धी करता रे,*
*राण परती बुद्धी करता मूं*

: अशी वाटेन बुद्धी करीत काय मोठी पसऱ्या वयल्यान गेली आनी एक म्हण्टा धा रुपयांचें विशें तर घेयल्या.

*बरी घरीक चल्ल्या रे,*
*बरी घरीक चल्ल्या मूं*

: अशी काय घरी येयली, तांदूळ काय भाजले, दळून काय ते, पिठ्याच्यो

गुळयो केली नी फाटीं तर परतली.

*चल्ली चंदणसूर मळा रे,*
*चल्ली चंदणसूर मळा मूं*

: आगो बाये, धुये दार काड म्हण्टा, आपूण वदळ येयल्या आतां म्हण्टा आपूण बरें काय तर घेवन येयलां. तरी शेखा धूव काय दार काडना आनी ती राणी काय तिये आंगां ल्हये परमाणे तेका ज्यास्ती तर मारूंक लागल्या.

*तिवू शेखाची ती धूव रे*
*ज्यास्ती जायना देवा घेवूं मूं*

: अशें शेखा धुयेक म्हण्टा, ज्यास्ती म्हण्टल्यार तियेच्या पांयां एक मस्तकी दरदर सुट्टा, भारी काय दार ती तर धरता.

*दार कन्येन काडला रे,*
*राण भितर नी सरल्या मूं*

: आगो बाये, पुता म्हण्टा, तुमी दोगांयनीय काय ह्यो पिठ्या गुळयो काय खावों जायें आनी एकटें काय खावों तर जायना.

*इतलीं कामां नी सांगल्या रे,*
*फाटीं रांड नी परतली मूं*

: अशें फाटी परतली, आपल्या सेनापती राज्यां येवन काय उदक-पाणी हाडून काय जेवणां-खाणां तयार तर केल्या आनी ह्या वटेन वताच्या येळार मोठो दनपरां भारावयलो कुंवर काय घरी तर येता.

*म्हाजे कामावंती नारी गे,*
*म्हाजे कामावंती नारी मूं*

: अशीं काय भरताराची आलट आयकता, शादा परमाणे तियेन दार काडलें म्हण्टा, आरत-बगूळ दाखोवन काय कुंवरा घरी तर व्हयला.

*कुंवर घरी म्हाला चल्ला रे,*
*कुंवर घरी म्हाला चल्ला मूं*

: आपले काय कपडे काडले, दाणये - खुंटयाळे दवरून, बाण दवरून काय न्हाणये - न्हाणगारा तर गेला आनी उदक - पाणी न्हालो आनी अन्न ग्रासायक तर बसला.

*दोगां जेवणां तीं जेयता रे,*
*दोगां जेवणां तीं जेयता मूं*

: अशें जेवन - खावन म्हण्टा पलंगार काय गेलीं आनी सुशेग काय मोठी तर बसल्या.

*बरें गिन्यान गोश्टी बोलता रे,*
*बरें गिन्यान गोश्टी बोलता मूं*

*म्हाज्या स्वामी-पती भरतारा रे,*
*म्हाज्या स्वामी-पती भरतारा मूं*

: कोणी म्हण्टा काय आपल्याक पिठ्या गुळयो तर हाडल्यां. त्यो आतां म्हणली की दोगांयनीय बऱ्यो तर खावया.

*बऱ्यो पिठ्या गुळयो व्हयल्या रे,*
*पिशयी तिवूं नी सोडिल्या मूं*

: अशें सोडल्या नंतर म्हण्टा कुंवरान काय एक हातीं काडल्या आनी कुंवरान घांस मारपा तर काडला.

*कुंवरान भितर तोंडां व्हयला रे.*
*घांस मारपा तितको उल्ला मूं*

: आरे स्वामी पती भरतारा म्हणलें की, आयक म्हणलें की, कोणी म्हण्टा कितें हाडटा तें पयलीं म्हण्टा बिलू माजरा तर घालचें, त्या नंतर का करतल्या कावळ्या तर घालचें आनी नंतर म्हण्टा आपणें तर खावंचें!

*तुंवूं पिसो तोवूं खुळो रे,*
*तुंवूं पिसो तोवूं खुळो मूं*

: शेट्ट ! म्हणलो की, कोणी हाडला तें म्हणलो की खावपा हाडटा, वडोवूं

तर हाडना!

*तोंडा घांस मारपा केला रे,*
*हाती हात राणेन घायला मूं*

: शेट्ट! म्हणलें की कुडको काड आनी कावळ्या तरी घालून तर पळय.

*एक कुडको मोडिला रे,*
*काण्ण भायर नी टाकिला मूं*

: सारीं कावळे इतके, तोंच माल्लो कावळो, म्हाल म्हातारो कावळो, तेका काय घुंवळ तर मारता.

*रणा कावळो नी पडला रे,*
*पळे स्वामी नी तूं आता मूं.*

: शेट्ट! म्हणलो की, कावळ्यांचेर सामको रोग येयला नी ते मरतात. तूं म्हण लागलो सांगता कितें? हें फकाणां म्हण लागलो की आनी तो परतो जालो खावपा तयार.

*म्हाज्या स्वामी पती भरतारा रे,*
*नाका खावूं नी तुंवूं मूं*

: इल्लो म्हण लागली कुडको काड आनी त्या कुत्र्याक म्हण लागली तरी घाल.

*एक कुडको कुंवरान काडला रे,*
*कुत्र्या कायी नी तो घायला मूं*

: कुत्र्यान काय तोंडान घालचे येळे म्हण्टा, चाबचे येळे कुत्र्यान काय प्राण तर सोडला. पळे म्हुणों लागली की, कसली काय दुश्ट म्हुणों लागली की ह्या पिथयीर तर आसा.

*कुत्र्या रोग नी येयला गे,*
*निमित्य हेंवूं खायलें म्हणण मूं*

: परतो काय घांस मारच्या येळे काय फाटीं काडला. घाल म्हुणों लागली की बिलू माजराक, पळय म्हुणों लागलीं, कसलीं कामां तर जाता तीं.

*एक कुडको माजरा घायला रे,*
*माजर फडफडून मेला मूं*

: पळय स्वामी म्हण लागली, कसलीं म्हण कामां. तुजे म्हण लागले शत्रू कोण पुणोन तर आसा आनी ते काय काडले, सगळे काय बांदले, ते नंतर उपरमाळयां बंद कुडींक काय व्हरून तर दवरल्या.

*फुडें कितें तिये कळटा रे,*
*फुडें घडटा आतां कळटा मूं*

*तिवूं जल्मा शेखा धूव रे,*
*फुडलीं कामां आतां कळटा मूं*

: इतलीं कामा केलीं, सुशेगाद पलंगार काय न्हिदली, मध्यांनी राती सपन काय तर घडलां.

*बरें सपन घडलां रे,*
*बरें सपन घडलां मूं*

: अशें काय सपन कन्ये घडल्या नंतर, सकाळीं फुडें उठून बरें उदक - पाणी घेवन, तोंड - मुखां आडायलीं, कुंवरान काय मोठीं. त्या नंतर च्या काय पिता आसतना कोण वर्तुमान काय कन्येन काय त्या केला. म्हाज्या स्वामी पती भरतारा म्हुणों लागली की, सदूदां काम काय करनाका, आज काय सुशेग तर तूं राव!

*तुंवूं कोण विरया बायल गे,*
*तुंवूं कोण विरया बायल मूं*

*तुमच्या तोंडार कल जळटा गे,*
*तुमच्या तोंडार कल जळटा मूं*

: आज म्हण लागलो की, शिकारेक कांय मेळना जाल्यार म्हण लागलो येवन काय तुका बाण मारतलो आनी वध तर करतलो. अशें काय भायर सरतना

म्हुणों लागलो की, बायले वस्तुरेन केन्ना म्हुणों लागलो की, काय फुडें तर सरोंक जायना!

*पांयां येग  कपली धग रे,*
*रागा भिरकीं कुंवर गेला मूं*

: असो काय कुंवर काय तेदूय काय मोठो धोणूस – बाण घेवन काय आपूण मोठ्या अरण्या काय तर चल्ला आनी ह्या वटेन ती राणी काय दीस–फालें जावूं पळयता आनी त्या राजाच्याये काय मोठी काय उदक घायलें ना घायलें, साकर घायली ना घायली करता आनी त्या राजा तर दिता.

*ह्यावूं तरेन राणी करता रे,*
*ह्यावूं तरेन राणी करता मूं*

: अशातरेन राणी केली आनी राजा गेल्या नंतर म्हण्टा सभेक, काय मोठीं दोन आडसरां एक तिख्याचें कोयतूल घेतलें नी मोठी चंदणसुरा मळार तर गेल्या.

*बरी चंदणसूर मळा रे,*
*राणी चल्ली त्यावूं राज्यां मूं*

: आनी कन्या आसली ती म्हण्टा दार धांपली नी मोठी काय सुशेग घरीं तर आसा.

*म्हाज्या धुये न्हू तूं बाये गो,*
*दार काड नी तूं आज मूं*

*तुजे आवो आपूण भयण गो,*
*तुजी खास नी ती मावशी मूं*

: तुज्या काय मावश्यान तर धाडलां, आपल्या काय तुका हाड म्हण तर सांगलां.

*मावश्या चोवपा जाली उमेद गो,*
*तेजे दोळे भागून गेल्या मूं*

*तुयें भरतार धुये जोडला गो,*
*त्यावू पसून दार काडना मूं*

: तूं म्हण्टा, भरतार आनी तूं दोगां येंग मान्न न्हिदल्यांत, त्यावूं पसत दार काडना, इतलीं म्हण्टा आंगां ल्हयें परमाणें ज्यास्ती तर देवा मारता.

*जायना ज्यास्ती घेवुंच्याक रे,*
*तिवूं शेखा वर्णाची मूं*

: अशी काय लडाय केल्यार म्हण्टा ती काय तिये दवरना, हातीन काय तिये वध केल्यार पदरा काय पातकां तर भरता.

*जाता तशें देवा जावूं रे,*
*फुडें घडटा तेंवूं घडों मूं*

: अशातरेन म्हणलें नी दार काय काडलें नी, त्या नंतर बसली, बाये पुता धुये म्हणली की आतां आपल्या काय वचों जायें काय राज्यांत.

*जेवणां करया धुये खाणां गो,*
*जेवणां करया बरीं खाणां मूं*

: हां गे मावशे म्हुणों लागली की, तुयेगेर गेल्यार तुगे जांवयाच्यान म्हुणों लागली की काय रांदून जेवों तर जायना. राणयेन बरें म्हणलें की आतां तूं जेवण कर, आपूण म्हण लागली की न्हाणये न्हाणगारा उदक तर घालता.

*बरी लागली उदक घालपा गे,*
*न्हाणये न्हाणगारा उदक घालता मूं*

*शेखा धूव जेवणां करता गे,*
*एके वाटेन राणी रडटा मूं*

: हां गे बाये म्हणली की, तुज्यान भरतारा सोडोन काय वचपा जायना, ह्या पसत तूं काय रडों तर लागल्या.

*बरीं जेवणां केलीं तिवूं रे,*
*घरी म्हालाक ते बाणसाक मूं*

: अशीं काय जेवणां केलीं म्हण्टा, आरत-बगूळ काय मोठें केलें आनी दारां काय दवल्लें नी कन्येन काय मोठें दार तर माल्लां.

*दोगां सल्लीं देवा भायर रे,*
*दोगां सल्लीं देवा भायर मूं*

: अशें काय तटबंदी आंगणा भायर धल्ला मार्ग आनी अटंग्या जंगलांतल्यान काय घेवन तर वयता.

*म्हाजे मावशे न्हूं तूं मावशे गे,*
*चलता खंयच्या नी मार्गान मूं*

: आगो धुये बाये म्हण लागली की तुयेन धग पळयलो ना वत म्हण्टा, आमी थंड वता - सावळे म्हण लागली की तर बसया. ह्या वटेन गेल्यार म्हण्टा की लागीं पावता, ह्या वटेन गेल्यार म्हण्टा लागी की थोडो पयस तर पडटलो.

*थंड वत नी लागता गो,*
*जल्मा सावळी वारें लागता मूं*

: अशें करता पसून मोठीं अरण्यां जंगलां तर पावलीं.

*काऽऽ करुं कावळो देवा नायी गे,*
*शीऽऽ करूं शिल्ली देवा रावना मूं*

: अशी अटंग्या रानां पावूंक बसली नी ते नंतर आडसर काय फोडलें नी म्हण्टा बाये धुये काय तर पी!

*तुंवूं मावशे पयलीं घेवूं गे,*
*मागीर मावशे आपूण पिता मूं*

: बाये धुये म्हणली की पयलीं काय तूं तर पी, मागीर म्हण्टा आपूण आसा तें तर पिता!

*कन्येन ताळो वरसो केला गे,*
*कन्येन ताळो वरसो केला मूं*

: असो काय ताळो वरसो करून उदक-पाणी काय त्या आडसरा तोंडांत वोतचे येळे काय तें कोयतूल काडलें नी त्या शिरांर तर वोडल्या.

*कन्ये रणां जंगलां पाडला रे,*
*कन्ये जंगलां वध केला मूं*

: असो काय कुडको हाडलो लाकडाचो, कन्ये दवल्लो आनी बारीक हे तरेन तासोंक काय तर लागली.

*कन्ये तासून केली भाजी रे,*
*कन्ये तासून केली भाजी मूं*

: राणलान म्हण लागली पयर कुंवरा तर जिवदान केलेलो, आतां म्हण लागली की राणला पयर्लीं मेकळें तर केला.

*आतां सोंपो तेका मारूं रे,*
*आतां सोंपो तेका मारूं मूं*

: इतले काय शब्द बोलर्लीं नी, राणला म्हुणों लागली की आतां म्हुणों लागली की बरें राज्य काय चलय, आता म्हुणों लागली की आपल्याक हरयें सोदून, पिकलें तर फावतलें.

*चल्ली सेनापती राज्यांक रे,*
*चल्ली सेनापती राज्यांक मूं*

: अशी काय चालून चालली, पावून पावली. आपल्या काय राज्यां वचून काय आपली मोठी सिरइसां तर करता. आनी ह्या वटेन कुंवर काय येयला, कामावंती नारी म्हण आंगणां रावून काय शब्द तर बोलता.

*दार उगड देवा नायी रे,*
*दार उगड देवा नायी मूं*

: सट्ट कोन्न गेलो, दारार फांपार माल्लो, ते बराबर दार उगडील्यार म्हण्टा आरत-बगूळ दारां तर आसा.

*आरत-बगूळ कुंवरान घेयल्या रे,*
*आरत - बगूळ कुंवरान घेयल्या मूं*

: आतां म्हणलो की आपणें शब्द बोलले कामा, प्राणसखी वस्तुरी काय लिपल्या.

*घर-दार कुंवर सोदता रे,*
*घर-दार कुंवर सोदता मूं*

*कुडीन - कूड भोंवता रे,*
*पलंगार पलंग नी सोदिता मूं*

: अशें काय सगळ्याक सोदल्यार म्हण्टा, कन्या काय ना रे देवा, कन्येचो माग काय काडूं तर लागला.

*कन्या गेल्ले मार्गानि कुंवर वयता रे,*
*कन्ये मार्ग देवा काडटा मूं*

: असो काय माग काडीत काडीत काय मोठ्या अरण्या-जंगलांत वचून काय माग काय लागला.

*देवा रगता जाला तळी रे,*
*देवा रगता जाला तळी मूं*

*कुंवर धळधळ्यां रडला रे,*
*कसो घात कोणी देवा केला मूं*

: अशें काय प्राणसखेन वस्तुरेन वचनाका म्हण सांगलेलें की ह्याच पसत, आपलो म्हण लागलो की घात जालो. एके कडेन पळयल्यार उस्कीच्या झोपांत काय मोठें प्रेत तर आसा.

*प्रेत खांदार कुंवरान माल्ला रे,*
*प्रेत कुंवरान खांदार माल्ला मूं*

: असो काय प्रेत खांदार माल्ला नी फाटीं काय परतला, सूर्य म्हालां काय मोठो चालून चालला, पावून काय तर पावला.

*चल्ला म्हाल त्यावूं कुडी रे,*
*चल्ला म्हाला त्यावूं कुडी मूं*

: अशे काय त्या म्हाल कुडी फोंड काय मोठो माल्लो नी मिठाची रास काय मोठी घायली नी तें प्रेत काय त्या मिठाच्या राशीं तर घायलां.

*शब्द लागलो कुंवर बोलूंच्या रे,*
*शब्द लागलो कुंवर बोलूंच्या मूं*

: अर्शी काय बारा र्ती चोयीस वरसां जाल्यार पुसून प्रेत काय मोठें तर उरचें आनी त्या नंतर प्रेत काय मोठें कुसों तर जाता.

*बरे शब्द राणये सांगता रे,*
*बरे शब्द राणये सांगता मूं*

: असो काय शब्द उलयलो आनी सगळो पोशाख तर आपलो उतरिला.

*झराझर लागलो चलों रे,*
*सोडला घरा-म्हाला कुंवरान मूं*

*माथ्या नायी तेच्या आंगा रे,*
*माथ्या नायी तेच्या आंगा मूं*

: अशी काय मोठी मुंज बादल्या आनी तेयेर काय काश्टी न्हेसला, काय या तरेन न्हेसला आनी एका अटंगी मार्गा काय वाटे भायर तर सल्ला.

*दार कुंवरान मारिला रे,*
*दार कुंवरान मारिला मूं*

: अशें काय आपलें हात-बोट लागच्या शिवाय कोणेनूच शाद माल्ल्यार, घाये माल्ल्यार बुसून दार तर उगडोंक जायना, फुटों तर जायना! अशें म्हणलो आनी कुंवरान म्हण्टा मोठे दोनय हात माथ्यार काय घेयल्या.

*बऱ्यो बोंब नी मारिता रे,*
*बऱ्यो बोंब नी मारिता मूं*

*म्हाजे कटा कटा कामावंती गे,*
*तुजे साठी जग फिरता मूं*

: अशें धन्य धन्य नारायणा म्हण्टा, की असो काय बोंब मारीत म्हण्टा फुडें काय मार्गा चलों तर लागला.

*बरो वयता मारगान रे,*
*बरो वयता मारगान मूं*

: असो धुल्लासुरा मार्गान वयता तो काय फुडें कोण वर्तुमान तर जाता. अशीं काय दोन-चार रानां काय फाटीं सोडलीं, फुडें काय मोठें पुनावंती राज्या काय आसा.

*बरें पुनावंती राज्य रे,*
*बरें पुनावंती राज्य मू*

: अशें काय ते पुनावंती कन्येन म्हण्टा सात मार्गाचो एक मार्ग केला आनी मोठो काय मार्गार काय एक विंगळो* काय बांदला. आनी माणिक - मोतयांची केंप-वज्रांची माळा काय वयर काय मोठी गांतोंक काय लागल्या, आनी बारा काय चोईस वर्सां बुसून जाल्यार जाता.

*मना सारको भरतार पावल्यार रे,*
*माळ गांतून तेंदूस सोंपची मूं*

*तेची दोगू दासी आसा रे,*
*तेची दोगू दासी आसा मूं*

: अशें काय म्हण्टा तियेन नवस धल्लो आनी कुंवर काय एके अंटगी मार्गा तर वयता. कामावंती नांव तर घेता आनी बोंब तर मारीत तर वयता.

*पावला पुनावंती राज्या रे,*
*सोन्या विंगळ्यां म्हाऱ्यां पावला मूं*

: असो काय कुंवर थिंगा पावता आनी तेची माळा गांतून काय सोंपल्या आनी मार्गार चोयल्यार म्हण्टा की कोण सुर्यासारकें रत्न तर वयता.

*म्हाज्या दासींनो तुमी दासी गो,*
*चाल चलत्या नी मार्गाक मूं*

: आगो म्हण्टा चलात आनी तेका चलता तेका आपणें वयर आपयला म्हुणून तर सांगात.

*बरीं दोगां धाडलां नी दासी रे,*
*चल्ला फुडें नी मार्गाक मूं*

: आरे म्हण्टा, तुका म्हण्टा की आमगे धनिणीन काय वयर उपरासंगी माळ्यां तर आपयला.

*तुमचें चोरून खायलें नायी गो,*
*तुमचें नागून खायलें नायी मूं*

: असो काय आपूण ह्या रस्त्यान तर चलता, तुजी धनीण वयर कित्या काय तर आपयता. अशें काय म्हणलें नी फुडें काय वता आनी दोगूय काय दोनय वाटांनी मार्ग काय आडोवंक तर लागलीं.

*दावणीं भायर भिरकाटिला रे,*
*फुडें लागलो कुंवर वयच्या मूं*

: अशें काय वतना राणयेन पळयलें नी सडसडीत काय देंवली आनी माणिक-मोतयांची माळ घेयली नी चलत्या मार्गार काय कुंवरा फुड्यांत काय उबी रावल्या.

*मार्गार जाली कन्या उबी रे,*
*मार्गार जाली कन्या उबी मूं*

: अशी काय इचार ना पाचार म्हण्टा, जात ना पात कळनासतना म्हण्टा, कुंवरा काय माळा तर घातल्या.

*म्हाज्या स्वामी म्हण्टा भरतारा रे,*
*शब्द लागली कन्या बोलोंक मूं*

: आगें म्हण्टा, तुमी म्हण्टा कोणाच्यो धुयो, इतल्यो म्हण्टा वाडून कित्या

तर आसा आनी कोणाचो कोण रस्त्यान वयता तेका तुमी काय कशी काय माळा तर घालता.

*कुंवर लागलो शब्द बोलोंक रे,*
*कुंवर लागलो शब्द बोलोंक मूं*

*म्हाज्या स्वामी पती भरतारा रे,*
*तुमची जात नी कोणाची मूं*

: आगे म्हणलो की, आमची जात म्हण्टा म्हारांची, आमी म्हणलो की म्हारां जातीचे म्हण हातरी-सोटे तर करता. आरे देवा म्हुणों लागली की बारा ती चोईस वर्सां बुसून नवस धरलेलो म्हारा जातीच्या हातां पडपा म्हण लागली आपली ही माळा तर सोंपल्या.

*देवा हातरी-सोटे करूं रे,*
*गांवार भोंवो देवा पडलें मूं*

: आरे स्वामी म्हणली की, खरें आसा ती जात काय सांगची.

*आमी भटाले ते कुंवर गे,*
*आमी राजवैशा* कुंवर मूं*

: शाबास, म्हणली की भले जावूं! आपूण म्हण लागली की खरें राजवैशाची, भटांची मुलगी म्हुणों लागली की तर आपूण.

*दोगां चल्लीं तीं वयर रे,*
*सोन्या विंगळ्यार तीं चल्लीं मूं*

: अशें काय गेली आनी मोठी उदक-पाणी तापयलें आनी च्या-पाणी काय कुंवरा तर केल्या. अशे हात-पांय धुयले आनी च्या-पाणी पिले आनी मोठीं जेवणां-खाणां काय तर रांदलीं.

*दोन दीस कुंवर नी रावलो रे,*
*त्या पुनावंती नी राज्यांक मूं*

: अशें काय एक जेवण जेयल्यार म्हण्टा कुंवरा काय मोठें भारी काय कामावंती नांव तर येवजता.

*आपूण वयता फुडें मार्गा रे,*
*आपूण वयता फुडें मार्गा मूं*

: आरे स्वामी पती भरतारा, तूं खंयीं गेल्यार म्हण्टा, असो तसो रणा पडल्यार म्हण्टा आपल्याक कशें तर कळटलें?

*सात सर्ता कुंवर करता रे,*
*सात सर्ता कुंवर करता मूं*

: आपूण रणां पडल्यार म्हुणों लागलो की तो आमच्या दारां तुळस काय आसा, म्हाल-खांदो काय तर बावतलो आनी पावस पडटलो म्हण्टा की इंगळ्यांनी आनी त्या नंतर न्हाणये न्हाणगारा धर्यी कावळीं तर न्हावतलीं.

*म्हाल दरवंजाक येर गे,*
*उजये वाटेन रगता नदी मूं*

*दाये वाटेन दुकां व्हांवता गे,*
*तुजें आयेवपण तुट्टलें मूं*

: अशें तें आयेवपण तुट्टलें तुज्या व्होंटी पडटलें, ते नंतर तुजो भरतार रणां पडलो म्हण समजोवंक तर जायें.

*इतलें कुंवरान सांगलां रे,*
*घेतले दोनय हात माथ्यार मूं*

*कटा कटा देवा रे,*
*निर्माण केल्ल्या भगवंता मूं*

: अशातरेन दोनय हात माथ्यार काय घेयले, उतक्या बोडान काय फुडें मार्गा तर चलता. असो काय राज्यां सोडीत, शिमो वलांडीत फुडें मार्गा तर वचों तर लागला.

*फुडें कोण मौज जाला रे,*
*त्यावूं घडावंती राज्यां मूं*

: अशें काय त्या घडावंती राज्यां म्हण्टा, घडावंती कन्येन म्हण्टा, बारा वर्सांचो नवस धरून काय सोन्या विंगळो तर बांदला. सात मार्गाचो एक मार्ग धल्लो नी माणिक - मोतयांची माळा गांतों तर लागली.

*कुंवर पावला त्यावू विंगळ्या रे,*
*त्यावू विंगळ्या म्हऱ्यां पावला मूं*

: असो काय कुंवर पावता की ती माळा गांतून काय सोंपल्या येळे काय कन्येन खाली नदर काय तर रस्त्यार घातल्या.

*वयता कायी नी तो नर रे,*
*वयता मार्गानि नी तो नर मूं*

जावूं म्हणली, शाबास म्हणली, आतां म्हणली आपल्याक काय मौजेचो भरतार तर पावला आनी कितलो म्हण लागलो की, मौजेचो म्हण लागलो की नवस धल्लेले परमाणे माळा गांतून तर सोंपल्या. आगो दासी, बडकुरांनो चला, नी तेका आपणें वयर आपयला म्हुणून काय तर सांगा.

*बरे चांपूल नी तें रोंपूल गो,*
*दोगां जाणा तिवूं दासी मूं*

: अशीं काय वचपाचीं तीं मोडत मोडत, येकडेन मोडटा एकटें, दुसरें तिकडेन काय मोडत, शिंनळपण काय मार्गार तर करता.

*कुंवरा नदर तेंचेर नायी रे,*
*कुंवर दुखी देवा आसा मूं*

: असो काय कुंवर काय मोठो, तेका आपयल्यार म्हण्टा काय तेंकां दोगांयकय मोठो खोट माल्ली आनी काय व्हालेतीं उडोवन काय फुडें तर वयता.

*कन्या सारकी कुंवरा चयता रे,*
*घडावंत नी ती कन्या मूं*

: अशें काय कन्येन ल्हवू म्हण्टा, माणिक - मोतयांची माळा घेतली, घडघडीत काय मोठी रस्त्यार काय चल्ली. इचार ना पाचार नासतना कुंवरा माळा घायली नी स्वामी पती भरतार म्हण कुंवरा शाद तर मारता.

*म्हाज्या स्वामी पती भरतारा रे,*
*तुमची जात नी कोणाची मूं*

*आमची जात नी चामराची गो,*
*आमची जात नी चामराची मूं*

: तुमी म्हण्टा की इतलीं बाडोवन रावतात, तुमकां जात ना पात नासतना तुमी मेळटा तेका माळा तर घालता. आरे देवा म्हण्टा, आपूण चामारा जातीं पडलें, इतलें म्हण्टा नवस धरून म्हण्टा आपूण जोत्यांचे जोड धरून काय वाड्यार फिरों तर पडलें.

*कस जाती देवा पडलें रे,*
*कस जाती देवा पडलें मूं*

: आरे देवा बरम्यान म्हण्टा, कसलें अक्षर सटयेन काय माल्लें नी आता म्हण्टा चामारपणां तर पडलें.

*खरें जात स्वामी सांग रे,*
*नमस्कार स्वामी जोडटा मूं*

: अशी म्हुणों लागली की, आपली जात म्हुणों लागली की खरी राजवैशाची, खरें म्हण्टा की जातीन आमी तर बरे.

*बरो आपूण राजा कुंवर गे,*
*जात खरें देवा आसा मूं*

असो तेका घेयल्या, वंयर काय गेल्यात, आपल्या माळयेर काय मोठी आठ-पंदरा दीस थिंगा तर उल्ल्या.

*कुंवरा फुडली याद जाल्या रे,*
*कुंवरा फुडें याद जाल्या मूं*

: कुंवर काय अशें करता, पोटा म्हण्टा अशे भूक नासता, कुंवर एक जेवण जेयल्यार चार जेवणां तर जेयना.

*कामावंती नी घेता नांव गे,*
*कामावंती नी घेता नांव मूं*

: अशें ते कन्ये सांगलें तितलीं काय हे कन्येक सर्ता सांगलीं नी फुडें मार्गा चलों तर लागला.

*वयता चलत्या मारगान रे,*
*वयता चलत्या मारगान मूं*

: अशें काय त्या जिवलावंती राज्यां म्हण्टा, जिवलावंती कन्येन म्हण्टा काय मोठो नवस तर बांदला.

*बरो नवस देवा केला रे,*
*बरो नवस देवा केला मूं*

: अशें काय म्हण्टा, त्या माणिक – मोतयांची माळ तो कुंवर पावंचे येळेर म्हण्टा तिये गांतून तर सोंपल्या. मार्गार चोयल्यार म्हण्टा कोण सुर्या सारकें रत्न काय मार्गान तर वयता.

*बरें दासींक सांगता रे,*
*बरें दासींक सांगता मूं*

: आगो दासी चल आनी म्हण्टा त्या रस्त्यान वयता तेका काय आपोवन तर हाड.

*चल्ल्यो दासी सांगल्या नी जापेची रे,*
*दासी दिल्ल्या इशाऱ्यांची मूं*

: आगा म्हण्टा, तुमकां म्हण्टा की आमगे धनिणीन काय वयर काय उपरासंगी माळ्यां तर यो म्हण सांगलां.

*तुमचें राज्य नागोवन खायलें ना गे*
*तुमचें चोरूंक आपूण येयलो ना मूं*

: दोगांयकय फांपार माल्लो, दोगांयकय लाथ मात्र दोनूय वांटांनी उडयलो आनी फुडें मार्गा तर चलों लागला.

*फुडें मार्गार पांयो घायला गे,*
*फुडें मार्गार पांयो घायला मूं*

: अशातरेन फुडें मार्गार पांयो घायल्यार म्हण्टा, ती कन्या म्हण्टा, घडघडीत देंवली, माणिक मोतयांची माळा घालूंक काय कुंवरा फुडें वचून रस्त्यार उबी काय जाल्या.

*कुंवरा माळा घालून सोडल्या रे,*
*कुंवरा माळा घालून सोडल्या मूं*

*कटा कटा कामावंती गे,*
*कटा कटा कामावंती मूं*

*तुजेसाठी देश भोंवता गे,*
*धन्य धन्य नारायणा मूं*

: अशें करता कुंवरा घेयली नी उपरासंगी माळयां गेली, उदक-पाणी तापोवन काय न्हाणयली, त्या नंतर म्हण्टा जेवणा-खाणा तर केल्या.

*दोन दीस कुंवर रावला रे,*
*दोन दीस कुंवर रावला मूं*

*कुंवरा याद फुडें जाल्या रे,*
*कुंवरा याद फुडें जाल्या मूं*

: असो काय फुडें याद जाल्या नंतर म्हण्टा, आतां म्हण्टा लागलो काय कुंवर फुडें तर वयच्याक. म्हाज्या स्वामी पती भरतारा, तूं काय फुडें तर वयता, कसो कन्न रणां पडल्यार कित्यान तर कळटा.

*त्यावूं तरेन तोवूं सांगता रे,*
*आपलीं सर्तां-कर्तां सांगता मूं*

: पयले कन्येक सांगलें तशीं म्हण्टा सातय काय सर्तां-कर्तां आपलीं काय सांगलीं नी फुडें मार्गां तर चल्ला.

*फुडें मार्गा तोवूं वयता रे,*
*फुडें मार्गा तोवूं वयता मूं*

*बरो अरण्या नी जंगलाक रे,*
*बरो अरण्या नी जंगलाक मूं*

: बरीं म्हण्टा वाशेलां भेट्टात, कोले म्हण्टा, वाघां काय भेट्टटात, वरड मारची ते तरेन काय म्हण्टा वयतात काय काळखे रातीचीं अरण्या जंगलांत काय काळीं.

*बरो चलोन वयता रे,*
*बरो चंदणसूर मळा मूं*

: अशे काय त्या चंदणसुरा मळार म्हण्टा, खंय एक खोपटीत काय एक मळणी, म्हातारी - आज्जी तर आसा.

*बरी आसा ताळ्यां झोपडी रे,*
*बरी आसा ताळ्यां झोपडी मूं*

: अशीं काय दोनय वांटांनी दोन पोल्लां घायल्यांत, आज्जेन म्हण्टा पोल्ल्यांत उजो काय केला.

*फाटल्यान देवा आसा रे,*
*फाटल्यान देवा आसा मूं*

: आगे म्हातारे आज्जे, म्हण कुंवर वचून काय मोठो शाद तर मारता.

*कोण येयला नी तो कोण रे,*
*येदे राती नी तो येयला मूं*

: आगे आज्जे, म्हणलो की आपूण तर तुजें घाटावयलें तर नातरूं.

*असं म्हण कुंवर सांगता रे,*
*घाटावयलें तेंवूं नातरूं मूं*

: असो काय कुंवर घाटावयलो नातरूं म्हण्टा नी थंय गेला नी मोठो काय तर बसला. आगे आज्जे म्हण लागलो की आपल्याक राती घडये इल्लो जागो न्हिदों तर दी.

*इतलें कुंवर नी सांगता रे,*
*इतलें कुंवर नी सांगता मूं*

: अशें बाबा पुता म्हुणों लागली की न्हिदता जाल्यार सुशेग तर न्हीद. आपणें कोणा इल्लो जागो दिलो म्हण तर कोण काय तर खायना. असो काय न्हिदला आनी मोठो आज्जे म्हणलो की हें राज्य काय कोणाचें जावन आसा तें म्हण ते म्हातारे – आज्जेकडेन तर इचारता.

*हेंवूं राज्य नी तें पुता रे,*
*हेंवूं नरक तें पुता मूं*

: आरे पुता म्हुणों लागलो की ह्या राज्यां म्हुणों लागली की दादलो पुरीस तर भोंवो जायना. ह्या राज्यां म्हुणों लागली की दादलो पुरीस तर भोंवल्यार ती नवरंगी कन्या काय म्हण्टा तेका देखल्यार जिवें तर मारता.

*तशें जाल्यार आमकां नाका गे,*
*त्योवूं खबरी आमकां नाका मूं*

: अशातरेन काय ती कुंवरा सांगता आनी कुंवर म्हण्टा तिका कितें काय तर अशें घडटा.

*पुता कायी तेका घडटा रे,*
*तेवूं नवरंगी ते कन्ये मूं*

: ती म्हुणों लागली की, देवाली रंभा म्हुणों लागली की, ती साडेतिनशीं दासींक घेवन म्हुणों लागली की, ह्या नवरंगी तटां काय तर आसा आनी म्हुणों लागली की सोमारा दिशी भायर येता आनी नवरंगी फूल काय तिच्या आंगी तर फुलता.

*बरी म्हातारी ती आज्जी रे,*
*कुंवर घेता राज्यां खबरी मूं*

: कुंवरा आज्जी काय सांगता, कुंवर मोठो काय घेता राज्याची सोद-बीद.

*साडे तिनशीं पुता दासीं रे,*
*तिये राखूंक त्यो आसा मूं*

: तिये मस्तकार म्हण्टा की फूल फुलता तें दाखोवन म्हण्टा की मोडटा तो तियेचो घोव काय भरतार तर जाता. त्या पसत म्हुणों लागली की तिये दादल्या मनशाचो वास काय लागों तर जायना. अशातरेन म्हुणों लागली की हे नवरंगी तर राज्य.

*तेवूं पाडा पोडो आज्जे गे,*
*खबरी आमकां त्योवूं नाका मूं*

: असो काय म्हातारेलो घोव मरून बारा वर्सां जालेली की मळो काय पाडंग तर पडला.

*बरो मध्यानीचे राती रे,*
*मळो पालेवन लब्ध जाला मूं*

: असो काय पालेवन तट्ट जाला आनी फुलां कळो काय सुटला नी फुलां तर फुलून लब्ध जाला.

*फुलां पडला नी धमधम रे,*
*भोंवरां पडला रणजण मूं*

: अशें काय त्या म्हातारे म्हण्टा, काय त्या फुलांच्या धमधमान, भोंवराच्या रणजणान म्हातारे निंद्रा काय देवा तर ना. केदे बेगीन दीस जातलो आनी किदे बेगीन म्हण्टा आपूण मळ्यां काय वयतली म्हुणोन म्हातारी तर येवजिता.

*बरे चान्न्याचे ते राती गे,*
*बरे चान्नाचे ते राती मूं*

: अशें काय मोठी उठून काय पळयल्यार म्हण्टा मळो काय मोठो फुलून लब्ध तर जाला.

*बरी म्हातारी ती आज्जी रे,*
*चल्ल्या म्हारांल्या वाड्यार मूं*

: अशी कांय ती करंड काय मोठी काय घेतली नी, खाक्या काय माल्लो नी, कांय दीस-फाल्यांर काळखा उजवाडा काय मोठी काय फुलां तर काडटा.

*बरीं फुलां नी खुंटिता रे,*
*बरीं फुलां नी खुंटिता मूं*

: बरीं काय फुलां खुंटून की मोठी कांय करंड भल्ले नी घरीं काय हाडले, मोठे काय वावळे हाडून काय वावळ्यांर झेले काय गांतता.

*बरे झेले नी गांतता रे,*
*बरे झेले नी गांतता मूं*

: अशें काय कुंवरान चिमटी माल्ली नी मोठी काय चिमटीभर फुलां काय म्हऱ्यांत तर घेतल्या.

*म्हाज्या बाबा नी तूं पुता रे,*
*तिवूं फुलां कित्या व्हरता मूं*

: आरे पुता म्हुणों लागली की, चिमटीभर फुलां म्हण्टल्यार म्हण्टा, एक काय आमचो वळेसर वयता नी, एक काय आमचो पयसो काय उणो तर पडटा.

*म्हाजे म्हातारे नी आज्जे गे,*
*जरा नाका तुवूं भिवपा मूं*

: एक म्हण्टा की झेलो तुजो उणो पडल्यार म्हुणों लागलो की, एक पयसो तर तुका लुकसाण जाल्यार जावूं.

*आपूण झेलो नी घडयतलो गे,*
*आपूण झेलो नी घडयतलो मूं*

: अशातरेन तेणें म्हण्टा की चिमटीभर फुलां घेतलीं, देठाक देठ काय भरूं लागला.

*वावळी नायी कुंवरा सूत रे,*
*वावळी नायी कुंवरा सूत मूं*

*मंत्रांचेर चेंडू केला रे,*
*बरो फुलांचो तो चेंडू मूं*

: बरो काय तो चेंडू, तेचो काय कोणा माग मेळना, काय अशी कोणतरेन काय वीण तर केल्या आनी काडला नी म्हण्टा म्हातारे करंडा काय उडयला आनी कुंवर काय मोठो शाव – सुशेग तर बसला.

*बरी तिवूं घेवन चलल्या रे,*
*राज दरबारांत नी वयता मूं*

: अशें काय सारीं राज्यां म्हण्टा काय गेल्यार म्हण्टा, त्या झेल्याचो काय म्हण्टा माग मेळना, काय मोल काय करूंक तर जायना.

*गांतलो शेव मेळना तेचो रे,*
*कोण मौजे झेलो गांतला मूं*

: सारीं झेल्यां म्हण्टा, म्हातारे वाड्यार फुलांचें मोल जाता म्हण्टल्यार त्या चेंडूचें मोल तर जायना.

*बरें पिरथी जाता मोल रे*
*अर्द पिरथी जाता मोल मूं*

: सारीं लोकां काय वांटून फुलां घायलीं नी चेंडू काय घेवन त्या नवरंगी तटां तर चल्ली.

*बरी नवरंगीच्या तटां रे,*
*बरी नवरंगीच्या तटां मूं*

: असो काय तो फुलां झेलो कन्येन काडल्यार म्हण्टा काय तेचें मोल जायना,

सारीं पिरथी मोल बुसून जाता म्हण्टल्यार त्या फुलां झेल्याचें मोल तर जायना.

*गांतलो मार्ग मेळना मूळ रे,*
*गांतलो मार्ग मेळना मूळ मूं*

: आगे आज्जे म्हण्टा, हो चेंडू काय कोणी केलो म्हण काय त्या म्हातारे आज्जे, मळणी काय तर इचारता.

*म्हाजें घाटावयलें नातरू गे,*
*तेणेन केलो तोवूं चेंडू मूं*

: आगे आज्जे म्हुणों लागलो की हो चेंडू म्हुणों लागलो की या तरेन गांतलेल्या तुगेल्या नातरां म्हुणों लागली की फाल्यां घेवन काय तर यो.

*चोवपा जाली आपल्या वोड गे*
*चोवपा जाली आपल्या वोड मूं*

: आगो, बाये, पुता म्हुणों लागली की तें काय तर लजेची व्हंकल! तें काय म्हुणों लागलें की येवपार तर ना! आगे आज्जे तें नातरू जाल्यार म्हुणों लागली की तें तर चेडूं आनी आपूण म्हुणों लागली की कन्या की तर चेडूं आनी तूं म्हुणों लागली की आज्जी, सगळीं काय आमी तर एक.

*घेवन आज्जे तुवूं योवूं गे,*
*घेवन आज्जे तुवूं योवूं मूं*

: अशातरेन काय ती कन्या तर सांगली. येयल्यार म्हण लागली तर घेवन तर येता. बरे काय त्या चेंडूचे अर्द मुडी काय तांदूळ, चेंडूचे बरे दिल्यांत काय पयसो - आटको.

*बरी येता उमेदीन रे,*
*म्हातारी खोशाल खोशाल येता मूं*

: अशी काय आपल्या कुडींत पावली, बरे काय ते तांदूळ काडून, शिजोवन

काय मोठे खतखतोन तर खाता.

*बरीं जेवणां तेमी केल्या रे,*
*बरीं जेवणां तेमी केल्या मूं*

: अशें काय दुसऱ्या दिसा उठली, बरी काय परतीं फुलां हाडलीं, बरे काय वळेसर तर केल्या आनी बाबा पुता, म्हणली की आता तर त्या राज्यां वचों तर जायें.

*आपूण आज्जे थंयी येना गे,*
*तुंवूं एकटी वच राज्यां मूं*

: आरे पुता, म्हणली की वचों तर जायें त्या राज्यां कन्ये काय पळोवपाक, त्या नवरंगी कन्ये काय तटां.

*रूप कुंवरान बदलिलां रे,*
*रूप सावळ्यो पलटिलां मूं*

: आपलें रूप आसले की ते काय घेतलें कन्ये काय बायले रूप आनी तीं मोठीं दोगां काय वचों तर लागलीं.

*राज्यां लागलीं दोगांय फिरूं रे,*
*राज्यां लागलीं दोगांय फिरूं मूं*

: अशीं काय दोगां फिरतां फिरतां सगळ्या वाटेन, काय त्या नवरंगी तटां तर गेली.

*पावलीं नवरंगेच्या तटां रे,*
*पावलीं नवरंगेच्या तटां मूं*

: अशीं काय नवरंगी तटां पावन काय, नवरंगी मंदिरां काय चलों तर लागलीं.

*कुंवर घेता माग मोड रे,*
*सोद घेता कुंवर वास मूं*

: कशातरेन म्हण्टा, सोद काय बारीकसाण कुंवर काय घेता.

*पावला नवरंगे म्हालाक रे,*
*पावला नवरंगे मंदिरां मूं*

: बरो काय नवरंगे मंदिरां गेल्यार म्हण्टा, म्हातारे ह्या पालवां काय त्या पालवां तर घुसता.

*तोंड कसो दाखयना रे,*
*म्हातारे फाटल्यान भोंवता मूं*

: आगे आज्जे म्हण लागली की, खंय तर तुजें घाटावयलें तर नातरू? आगो बाये म्हण लागली की हें पळय ह्या वटेन त्या वटेन तर भोंवता!

*तेवूं कोणा लजे वयता गे,*
*भारी लज तिवूं दिसता मूं*

: तुमी म्हण्टा, देवांल्यो रंभा आनी तुमगेल्या वासा–परमळा तें तर रावना.

*तेवूं काय नी भियेता गो,*
*तेवूं काय नी भियेता मूं*

: अशेतरेन म्हण्टा ती काय रावली आनी काय त्या नवरंगी मंदिरां तर काय सगळें विकून तर जालें आनी त्या म्हातारे आज्जे बरी काय तेची किंमत काय ती दिल्या.

*दवर तुज्या नी नातराक गे,*
*दवर तुज्या नी नातराक मूं*

: बाये तूं काय रावता जाल्यार राव, फाल्यां काय वयचें तर आमी.

*आपूण आज्जे हिंगा रावना गे,*
*आपूण येता तुज्या फाटल्यान मूं*

: कशातरेन म्हण्टा, राव बाये म्हण्टा आनी वयर वचून काय सोद–बीद घेवपा रावपा तर हेचें मन तर जालां.

*फाल्स लागता कुंवर बोलों रे,*
*फाल्स गोश्ट नी बोलता मूं*

: अशातरेन परती येतना फोर्सान काय दवरलें आनी म्हातारी आपल्या मळार तर गेली आनी हो कुंवर म्हण्टा मागा काय रावलो, बायले काय कन्ये रूपान तर आसा.

*बरें कायी सांजे येळार रे,*
*तेल लायी म्हण सांगता मूं*

: अशें सांजे येळार, नवरंगी कन्या आसा ती म्हातारे नातरा सांगता आपल्या काय इल्लें तेल तर लाय.

*घेतलें हातीं तळटार रे,*
*तेल लागले लावुंच्याक मूं*

: अशें काय रगडूं लागल्यार म्हण्टा मोठे काय घट काय, दादल्या मनशा हात लागता त्या तरेन काय घट तर लागता.

*म्हाज्या म्हातारेच्या नातरा गो,*
*तुजे हात कशे घट मूं*

: आगे म्हण्टा, तुमी देवांल्यो रंभा, तुमी म्हण्टा धग पळयलें ना तर वत. आमी म्हण्टा त्या घाट देशा जोंधळे कांडून म्हण्टा, फांतरां फोडून म्हण्टा आमचे हात जाल्यांत घट.

*आमी घाटावयलीं नातरां गे,*
*आमी दोंगरा करता काम मूं*

: मोठे काय आमी हातीन म्हण्टा कांडटा आनी त्या नंतर आमी खोऱ्यांनी सगळें खणटा तर देवा.

*असो आमचो तोवूं वावर गे,*
*असो आमचो तोवूं वावर मूं*

: तुमी म्हण्टा थंड सावळेक बसतात आनी सुशेग काय घेतात, तुमचे म्हण्टा मेणासारके तर हात.

*बरो रगडून कुंवर लायता गे,*
*बरो रगडून कुंवर लायता मूं*

: आगो म्हातारे नातरा म्हण्टा थंड थंड तर लाय, रगडवप म्हण्टा आपल्याच्यान सोंसूंक तर जायना.

*बरें तेल नी लायिलां रे,*
*बरें तेल नी लायिलां मूं*

: बरीं घेतलीं तेलां नी बरी काय निंद्रा तर न्हिदल्या आनी साडे-तिनशीं दासीं काय मोट्यो त्यो त्या पलंगा पोंदा काय त्या पलंगा पावणे काय तर राखता.

*बरे पावणे नी राखता रे,*
*बरे पावणे नी राखता मूं*

: आनी म्हातारे नातरू आनी ती नवरंगी कन्या आसा ती म्हण्टा काय त्या मंदिरां तर बसल्यां.

*कुंवरा न्हीद नायी भूक रे,*
*कुंवरा न्हीद नायी भूक मूं*

*दासी केन्ना न्हिदता पळयता रे,*
*माग तेंचो नी पळयता मूं*

: सगळो म्हण्टा की सोद - बीद काय त्या नवरंगी मंदिराचो काय करून तर घेतला. बरें बारा वरां, एकाक म्हण्टा सगल्यो दासी काय न्हिदून गुल्ल तर जाता.

*तेन्ना वाट नी मेळटा रे,*
*नवरंगी तटां नी हुंपपाक मूं*

: अशातरेन काय एक रात काय काडली, न्हिदनासतना काय त्या कुंवरान

त्या नवरंगी मंदिरांत.

*असो करता कुंवर राज्यां रे,*
*असो करता कुंवर राज्यां मूं*

: अशें काय ती रात गेली आनी दीस काय तर पावला.

*चल्ली म्हातारी नी आज्जी गे,*
*फुलां करंड नी घेवन मूं*

*बरी राज्यां नी इकता रे,*
*बरी राज्यां नी इकता मूं*

: अशी काय त्या राज्यां इकून, निमाणेकडेन त्या नवरंगी तटां तर चल्ली.

*बरें म्हातारेलें नातरूं गो,*
*आज्जी म्हुणून वयता म्हऱ्यां मूं*

आज्जे म्हुणों लागलो की, तुयें हिंगा दवल्लो आनी ह्या वासा परमळान काय आपल्याक न्हीद तर पडना.

*हिवूं देववरा कन्या गे,*
*आपल्याच्यान जायना वास घेवूं मूं*

: असो म्हातारे इल इल्ल्यो बारीकतरेन काय खबरी तर सांगता आनी अशातरेन त्या कन्ये म्हण्टा फुलां दिलीं आनी तियेन म्हण्टा मोठें काय जपलें म्हण्टा त्या फुलांचें काय मोल.

*दोगां फाटीं नी परतलीं रे,*
*दोगां जाणां येयलीं तिवूं मूं*

: अशीं दोगां जाणां त्या मळार येयलीं आनी मोठो तांदूळ-गोटो घायलो नी मोठें शीत काय कोन्न जेयल्यां.

*बरीं जेवन – खावन आसा रे,*
*बरीं जेवन – खावन आसा मूं*

: असो बरो शेनवाराचो दीस गेलो, आयताराचो दीस पावलो, आयताराचो दीस सरलो आनी बरो सोमाराचो दीस काय आयला.

*कुंवरा न्हीद नायी भूक रे,*
*कुंवरा न्हीद पडना भूक मूं*

: असो काय सोमारा दीस कुंवर काय मोठो पारे काय राखता रे देवा!

*घरी म्हातारी ती आज्जी गे,*
*न्हीद निंद्रा न्हिदतेली मूं*

: बरी काय म्हातारी - आज्जी, बारा वरां राती घोरोण्यो तर काडटा आनी परवण्यो तर परवंता आनी ती म्हातारी न्हिदला केलो आनी कुंवर काय असो भायर तर सल्ला.

*धल्ला फुडें राज्या मार्ग रे,*
*धल्ला फुडें राज्या मार्ग मूं*

: अशे काय ते काळे राती त्या नवरंगी मंदिरा तर काय कुंवर चडों लागला.

*कोण मौज देवा जाता रे,*
*साडे-तिनशीं दासीं आसा मूं*

*कन्ये पारे नी राखता रे,*
*कन्ये पारे नी राखता मूं*

: अशी काय कुंवरा वच्चों काय वाट म्हण्टा देवा कशातरेन तर ना.

*कुंवर पळयता देवा वाट रे,*
*केन्ना आपल्या मेळटा वाट मूं*

: अशे नी जप जपले, मंत्र नी साधन केले नी त्या कुंवरान कोण वर्तुमान केलें नी रूप काय आपलें तर बदलिलें.

*कुंवर चल्ला नी रुपान रे,*
*कुत्र्या रुपान तो गेला मूं.*

अशें काय साडे-तिनशीं दासीं झेमेत आसतना दुसरें बरें काय रूप धल्लां नी त्या शिल्लेच्या रूपान काय उडी तर माल्ल्या.

*नवरंगी मंदिरां पावलो रे,*
*नवरंगी मंदिरां पावलो मूं*

: अशे काय जप जपले, मंत्र साधन केले, कुंवराचें रूप काय धल्लें आनी दोळ्यांनी दोळेभर तर पळयता.

*कन्ये नवरंग फुल्लो रे,*
*कन्ये नवरंग फुल्लो मूं*

: सारीं आंगां नवरंगां फुलला नी, म्हाल फूल म्हण्टा तें मस्तकार फुल्ला आनी मोठे काय नाग काय धोलता.

*कुंवर गुल्ल देवा जाला रे,*
*कुंवर गुल्ल देवा जाला मूं*

: मोठो काय कुंवरा हात घालचें म्हण कळना, काय परतवंचें म्हण कळना, नाग अशे काय मोठे फुत्कार तर काडटा.

*कितें जाता तेचें जावूं रे,*
*घडटा तशें देवा घडों मूं*

: असो गेलो आनी म्हाल फूल आसा त्या फुलां हात तर घातला आनी फूल मोडच्या येळे काय अशी कन्या सावशीद जाली आनी तोंडावेल्यान असो हात वोडल्यार काय हाती तर सांपडला.

*कुंवर हातीक सांपडला रे,*
*कुंवर हातीक सांपडला मूं*

: अशें काय दोळे-नदरो काय बंद आसता आनी जाता तसो कुंवरा काय काडला आनी समुद्रांत भिरकाटून भायर तर माल्ला.

*सात समुद्रां नी भायर रे,*
*रणा कुंवर नी पडला मूं*

: असो काय सात समुद्रां भायर कुंवर काय रणा पडलो, समुद्रां काय पित्र काय लागलें हुबूंक.

*कुंवरा लागलें पित्र हुंबपाक रे,*
*समुद्रां लागलें पित्र हुंबपाक मूं*

: अशी त्या नंतर ती कन्या सावशीद जाली. मोठो सगळ्या आंगाचो भार काय सगळ्या आंगां पावला आनी तें पित्र काय मोठें कोण येळाचें समुद्रां हुंबता आनी चांद-सूर्य गेले अस्तबना, असो काय दीस तो जाला.

*बरें रेंदरांनी पळयला रे,*
*माड काडप्या रेंदरांनी मूं*

: अशे काय खाली येयले नी मोठे काय पित्र काडले आनी मोठे कसांत काय पुल्लां आनी ह्या रेंदरांली मोठी काय सभा तर बसल्या.

*कोणें सांगों एकल्यान जायना रे,*
*पित्र कोणी इचारल्यार मूं*

: आतां म्हणलें की कोणी एक पित्र हिंगा पावलें म्हण इचारल्यार, कोणी एकट्यान बुसोन सांगों जायना आनी कोण पळय सांगता, तेंका म्हण लागले, आमच्या 'वोळी ना वांगडा काय ना!' आनी हें पित्र कोणी दाखयत तर आमकां म्हुणों लागले की पयली फांशी.

*बरें अशें मत केला रे,*
*एक अट एकल्यान धल्ला मूं*

: अशें काय बारीक - मोठ्या, बायल-भुरग्यां सांगून काय अशे गप तर आसा.

*कोण मौज नी घडता रे,*
*त्यावूं जिवलावंती नी राज्यांक मूं*

: असो काय त्या पुनावंती राज्यां म्हण्टा. पावस काय इंगळ्यांनी झडों

लागला आनी न्हाणये न्हाणगारा येवन धर्यीं कावळीं तर न्हातात, येळेच्या दरवंजा म्हण्टा दाये वटेन दुकां नदी आनी उजयेवटेन रगताच्यो नदी काय व्हांवतात.

*दायेवटेन दुकां नदी रे*
*उजये वटेन रगता नदी मूं.*

*आयेपण नी तुटलां रे,*
*व्होटीं कन्ये नी पडलां मू*

: आरे देवा म्हण्टा, परमेश्वरा, माथ्यान वयता त्या देवा भगवंता म्हण्टा, भरतार गेल्लो रणा काय तर पडला आनी भरतारान सांगलेलीं सर्तां, जालीं घडितां म्हण्टा, आतां म्हण्टा आपूण काय भरतारा सोदी तर वयता.

*दोनी माथ्यार घेतला हात रे,*
*राण म्हुणों कन्ये पडलां मूं*

*वयता बोब नी मारीत रे,*
*वयता बोब नी मारीत मूं*

: अशी म्हण्टा, दोन तीन राज्यां फार्टीं सोडल्यां आनी म्हण्टा त्या घडावंती कन्ये तेंच म्हण्टा तर जालां आनी तीं 'सर्तां' सांगलेलीं 'घडितां' जायनाका, ती काय म्हण्टा दोनीय हात धल्ले माथ्यार आनी चल्ल्या धुल्लासुरा मार्गान तर फुडें वयता.

*दोगांय वाटेर एक जाल्या रे,*
*दोगाय वाटेर एक जाल्या मूं*

: आगे म्हणली की तूं खंय वयता काय म्हुणोन इचार काय त्या पुनावंती कन्ये काय तर इचारता. आपलो भरतार म्हण्टा गेलेलो, आपल्या म्हण्टा ह्या वटेन रणा पडल्यार सगळीं सर्तां घडटा सांगलेलीं, तीं काय आपलीं घडितां तर जाल्यांत.

*आपूण वयता भरतारा सोदी गे,*
*आपूण वयता भरतारा सोदी मूं*

: आपलो नी भरतार म्हणली की तेंच सांगून गेलेलो तींच म्हण्टा सर्ता आपल्या राज्यां तर जाल्यांत.

*दोगी सवती भयणी जाल्यो गे,*
*आमी दोगां सवती भयणी मूं*

: आगे म्हणलें की सवती भयणी आतां म्हणलें की दोगांनी उपाय एक काय करया आनी भरतार खंयच्च्या राज्यां नी पडलो तो सोदूं तर या.

*वयता मार्गान तीं दोगां रे,*
*वयता मार्गान ती दोगां मूं*

: अर्शी काय दोगांय वयतना पुनावंती राज्यां काय दोगां तीं पावोन तर पावल्यांत. जिवलावंती कन्या नी तेचतरेन म्हण्टा, लुगटाची फाळी माथ्यार उडयल्या नी मोठीं राणपणां घेतल्यां नी चल्ल्या, मार्गार काय तर फुडें येयल्या.

*तुमी कोणा राज्यां वयता गे,*
*तुमी कोणाच्यो त्यो कोण मूं*

: आगे बाये म्हणली की, आमचो भरतार गेल्यार की आठ-पंदरा दीस तर जाल्यां.

*तोवूं रणाक नी पडला गे,*
*सांगलें सर्ता जाता घडितां मूं*

: आपलो भरतार म्हुणों लागलो की तेंच सांगून गेला, तो खंयीय जाल्यार रणां पडला दिसता, आपूण म्हुणों लागली की वयता तर भरतारा सोदीक.

*तिगां येकू भरतार गे,*
*जाल्यो सवती आमी भयणी मूं*

: जाता तें म्हुणों लागली की जावं, घडटा तें फुडें तर घडों.

*यावूं भरतार गेल्ले मार्गा गो,*
*यावूं भरतार गेल्ले मार्गा मूं*

: असो दीस आतां लांब आसा म्हुणोन म्हण्टा, तीं ना ना परीन भाशणां करों तर लागलीं आनी तेन्ना म्हण्टा चांद-सूर्य गेले अस्तबना की काळखां काय मोठीं तर नेटल्यां.

*पावलीं अरण्यां जंगलाक रे,*
*पावलीं अरण्यां जंगलाक मूं*

: अशें काय वागां पडटा गराड, कोल्यांक पडटा कुलाट, काय घुगाचे मावशेक पडटा की घुगाट. अशेतरेन म्हण्टा भंयभिती जाता म्हटल्यार म्हण्टा रावों काय जायना, भरतारा सोद काय करूं तर जायी.

*चलतां रानां देवा जंगलां रे,*
*चलतां रानां देवा जंगलां मूं*

: अशीं कांय अटंगी वनां सोडून काय बारा वरां राती काय चंदणसुरा मळा तर पावल्यां.

*पावल्यां म्हातारेल्या झोपड्यां रे,*
*पावल्यां म्हातारेल्या झोपड्यां मूं*

: आगे म्हातारे आज्जे म्हुणों लागलीं की, राणे म्हुणों लागलीं की, आमच्या भरतारा काय तुवें म्हुणों लागलीं की घात तर केला.

*भरतार जायो राणे दिवूं गे,*
*जायो भरतार आमकां दिवूं मूं*

: नाजाल्यार म्हण्टा, तुजी काय म्हण्टा, ही ताळ्यांची झोपडी काण्ण काय आमी सप्त्या सागरां काय तर मारतलीं.

*म्हातारे घात देवा घडला रे,*
*म्हातारे घात देवा घडला मूं*

: तिगी आसा त्यो तीन वांटांनी काय तियेल्या झोपडे काय येंग मारता आनी आपूण काय ती शेंवटून मारतो म्हण्टा.

*बाये नमस्कार करता गो,*
*बाये थंड तुमी रावाय मूं*

: अशीं काय थंड रावोंक तियेन काय तेंकां सांगल्यां नी बसकार काय तर केला. आनी चौगांय जाणा खबरी मारता, गोश्टी सांगता, उपदेश काय तर उलयता.

*गेलो तोवूं नवरंगी तटां गे,*
*कन्येन उडविला तेका मारून मूं*

: तुमी म्हुणों लागली की हांगाच रावात, आपूण म्हणली की त्या नवरंगी कन्येच्या म्हऱ्यां तर वयता आनी सगळें म्हुणों लागली की तियेडेन इचारून काय घेतां आनी तुमी काय बोब तर मारनाकाय.

*म्हातारी चल्ली भायिल्ल्यान रे,*
*चलत्या मार्गाक चलता मूं*

: इतलें केली आनी ते नंतर म्हण्टा ह्यो कन्या बी तिगी जाणी तियेच्या फाटल्यान तर वयता.

*पावल्यो नवरंगी मंदिरां रे,*
*पावल्यो नवरंगी मंदिरां मूं*

: अशी काय म्हातारी गेली आनी बाये पुता आपलें काय नातरूं तर दी म्हणली आनी तिगी जाणी मागता तो आपलो भरतार तर दी!

*राणला दिव आमचो भरतार गो,*
*दिव राणला भरतार मूं*

: आगो राणला म्हणलीं की तुयें काय आमचो भरतार वधला नी तुजो काय सारीं जल्माचो भरतार काय तर वधला.

*आमकां होवूं नी मेल्यार गो,*
*फाल्यां जोडटा नेवो भरतार मूं*

: तुका म्हुणों लागली की जल्मा जावन आसा हें राणपण, तुका जल्मा काय भरतार जोडों तर जायना.

*तुंवूं देवांलीं ती रंभा गो,*
*तुका जल्मा तें राणपण मूं*

: अशा तरेन काय सांगता तिगी जाणी कन्या, म्हातारी काय मागता आपलो कुंवर, अशी ह्यातरेन म्हण्टा कन्या काय थंयची काय उठली आनी मोठी काय इंद्रभवनां कैलासा तर गेली.

*देवा सोभे तिवूं गेल्या रे,*
*देवा सोभे तिवूं गेल्या मूं*

: अशी काय देवा सोभे वचून म्हण्टा की, म्हाल समय काय देवांची काय मोठी तर पेट्टा.

*लाख रंभा एक ही रंभा रे,*
*नाचों लागल्यो नाच करच्या मूं*

: अशी काय ही आसा ती मोठी काय नाच काय करूं वयता, नी म्हण्टा की देवांचे सोभे ती काय नाच करता आनी म्हण्टा सोभेची समय काय तर पालवली.

*देवांची तिवूं नी सभा रे,*
*कन्येन काय नी हारयली मूं*

: अशें काय पळयल्यार म्हण्टा, पुराणां-पटयेर म्हण्टा की नरमनशां की मोठी काय हात लागली आनी म्हण्टा काय भशटली.

*सोभे कायी येवूं जायना गे,*
*सोभे कायी येवूं जायना मूं*

: देवांनी आनी खेरीत रंभांनी सांगलें, तुवें काय भरतार म्हण्टा जोडलो आनी तुजो काय नरमनीस तर भरतार.

*तुजें मस्तकाचें फूल गो,*
*कोणीन मोडलां तेचें फाटल्यान वच मूं*

: अशी सोभे वयली तिये काय काडून वडयला आनी अशातरेन ती आपल्या मंदिरां येयली आनी पळयल्यार म्हण्टा की बारीकसाणेन आपल्या जल्मां तर राणपण.

*घात जालो देवा म्हाजो रे,*
*उपाय नायी देवा लग्न मूं*

: इतलें काय म्हण्टा आपूण न ममनशा भश्टलें आनी आतां सोभे काय वचों तर जायना आनी सोभेन काय आपल्याक देवरंभांनी सोडला तर देवा आनी हो म्हण्टा खंय रणां पडलो तो म्हण्टा कोणाच्यान जिवदान करुंक तर जायना.

*देवा घात केलो म्हाजो रे,*
*देवा घात केलो म्हाजो मूं.*

: अशी काय इचारूं लागलीं तेंकां, आगो बाये पुता म्हणली की आको तर भयणी!

*तुमच्यान उपाय जाता जाल्यार गे,*
*कराय फुडें तोवूं उपाय मूं*

आपल्याच्यान म्हुणों लागली की उपाय काय जायना, आतां म्हुणों लागलीं की आमचो भरतार वधला आनी आमी काय दुसरो तर जोडटा. आमकां म्हुणों लागलीं की ह्या भरताराची मोठी काय वोड तर नायी रे देवा!

*तुका वोड नी आसल्यार गो,*
*तुवूं कर नी जिवदान मूं*

: खंय आसा तेका सोदून म्हण्टा, तुयें जिवदान काय करचो ना जाल्यार जल्मां तर राणपण काय घेवंचें.

*चेपून लागली चरणां घेवूं रे,*
*त्यावूं कन्यांचीं ती घेवुंच्याक मूं*

: आपूण म्हुणों लागली की भल्ल्या समुद्राक काय वचपा म्हुणों लागली की तुमकां काय मार्ग तर दिता. जाता तो उपाय तुमी म्हुणों लागलीं की कराय आनी ते पसत चरणां काय घेवूं काय ती कन्या तर लागली.

*बरीं चल्लीं समुद्रा तिरा रे,*
*बरीं चल्लीं समुद्रा तिरा मूं*

: अशें आपूण म्हण्टा तांदूळ मंत्रिले दोन तरांचे आनी ते काय मोठे त्या कन्यांडेन तर दिल्या आनी हे उकडे तांदूळ आसा ते काय आपल्याचेर मार, आपल्याची काय तर व्होडी जातली नी त्या व्होडयां बसोन काय पैलतडी तर वचाय.

*इतलें तेंका नी सांगला रे,*
*इतलें तेंका नी सांगला मूं*

: आनी तें पित्र मेळळ्या नंतर म्हण्टा मागीर काय आलतडी येयात नी सुरय तांदूळ मारात, तेचे नंतर काय आपूण कन्या तर जातली.

*अशी कायी नी सांगता रे,*
*देव वराची ती कन्या मूं*

: अशे काय उकडे तांदूळ दिल्ले ते त्या कन्यांनी हे कन्येचेर तर मारल्या.

*कन्ये जाली देवा व्होडी रे,*
*कन्ये जाली देवा व्होडी मूं*

: अशी काय समुद्रां व्होडी सोडली नी म्हातारी कांय व्हल्लें ताणूंक तर लागली.

*पयले तडी व्होडी पावल्या रे,*
*पयले तडी व्होडी पावल्या मूं*

: अशी काय व्होडी काण्ण धक्क्या लायली नी तिगांय ह्या व्होड्या बसून रेंदेरकारां इचार तर करता. आरे बाबा, रेंदेरकारांनो, कोणालें पित्र काय ह्या आठ-पंदरां दिसा काय देखल्यार आपल्या तर सांगाय.

*नमस्कार तुमकां जोडटा रे,*
*तुमकां आमी आपोवन व्हरना मूं*

: शेट्ट! म्हणलें की आपणें कोणालें प्रेत म्हणलें की ह्या राज्यांत देखलेंना आनी आपल्याक तूं इचारनाका.

*अशें रेंदेर सगळे सांगता रे,*
*अशें रेंदेर सगळे सांगता मूं*

: अशे दोन दीस बुसून काय तेमी सगळो काय रेंदरांवाडो काय इचारलें आनी सरत्या शेवटा काय म्हातारो काय जाण्टो एक रेंदेर तर आसा.

*बरें रेंदराल्या घरींक रे,*
*बरें रेंदराल्या घरींक मूं*

*म्हाज्या रेंदरा नी तूं मामा रे,*
*म्हाज्या रेंदरा नी तूं मामा मूं*

: ह्या वटेन कोणालें पित्र काय येयल्यार, देखल्यार काय आपल्याक सांग तर तूं! आगे म्हण्टा, आपूण तुमकां सांगता म्हटल्यार काय तुमी बोवाळ करुं तर जायना!

*बरें पित्र दाखयलां रे,*
*रेंदरामामान नी जाण्ट्यान मूं*

: असो काय कस काय तेमी उस्तीला आनी पित्र काय तेमी वयर तर काडलें आनी पुनावंतीन काय बरें पुनावन, निखळावन पडलेलें तें काय घडावंतीन घडयलें आनी जिवलावंतीन काय जिवदान तर दिलां.

*बरो जिवदान तो दिला रे,*
*बरो जिवदान कुंवरा दिला मूं*

: असो काय कुंवर न्हिदलो उठलो सो जालो आनी बायलां त्या कन्यां काय इचार तर करता.

*राणला खंयी राज्यां येयल्यां गो,*
*आपल्या फाटल्यान खंयी भोंवता मूं*

: तुमकां म्हण्टा भरतार नासतना काय न्हीद जायना, आपूण गेल्यार आपल्या फाटल्यान कित्या काय भोंवता म्हुणून तेंच्या मुखार जास्ती काय गोश्टी तर बोलता.

*बरी मजा तुमी करता रे,*
*तुमच्या फाटल्यान आपूण येयल्या मूं*

: अशा समुद्रा तिरा येयलीं आनी या म्हुणों लागलीं काय स्वामी पती भरतारा या ते पयले काय तडीक.

*उपाय नायी देवा यत्न रे,*
*भल्ले समुद्राक आतां मूं*

: आगे प्राणसखे वस्तुरे म्हुणों लागलो की उपाय ना एक म्हुणों लागलो की आतां म्हुणों लागलो की कशातरेन उपाय यत्न तर करात आनी तूं म्हुणों लागलीं की सांगतालो म्हुणों लागलो की, तुज्या फाटल्यान आमी तर भोंवतालीं. अशें म्हणलीं आनी त्या व्होड्यांत बसलीं आनी या तरेन आयले तडी काय पावल्यां.

*माल्ले सुरय व्हडयेर तांदूळ रे,*
*जाली नवरंगी ती कन्या मूं*

: अशी काय नवरंगी कन्या म्हण्टा की सुर्या – चंद्राची की ती ह्यातरेन म्हण्टा माणकां – मोतयांचें दान दिवन तर जाल्या.

*बरें नवरंगी नी तें राज्य रे,*
*दिला म्हातारे ते आज्जे मूं*

: अशें काय म्हातारे आज्जे म्हणली की हें राज्य काय तूं चलय नी ह्या राज्यां तर तूं

राव आनी तीं चौगी जाणां नी तो कुंवर आसा तो फाटीं काय आपल्या राज्यां तर येता.

*बरीं राज्यांक तीं येता रे,*
*बरीं राज्यांक तीं येता मूं*

: अशीं काय राज्यां सोडीत काय शिमो वलांडीत, काय पावलीं, काय जिवलावंती राज्यांत आनी जिवलावंती कन्येन आपलें काय आसा तें राज्य मोठें दासींक काय दिलें आनी मोठें काय फुडें तर चल्लीं.

*बरें घडावंती राज्यां रे,*
*बरें घडावंती राज्यां मूं*

: अशें काय घडावंती कन्येन म्हण्टा, सगळे काय आसा तें दासीं - बडकुरां काय सोडलें नी मोठी काय तीं त्या राज्यांतल्यान फुडें तर चलों लागलीं.

*आनी कुंवर घेता कामावंती नांव रे,*
*कुंवर घेता कामावंती नांव मूं*

*आंगार नायी तेच्या बोडार रे,*
*उतक्या बोडान कुंवर भोंवता मूं*

: अशीं काय तीं पितांबरां - साडी न्हेसल्यां नी कुंवर म्हण्टा की एक हात जुनेर न्हेसणार तर आसा. असो तीन वेतां फाळयेचेर इतलो म्हण्टा परदेस काय भोंवोन काय त्या पुनावंती राज्यां तर पावलीं.

*पावल्यां पुनावंती राज्यां रे,*
*पावल्यां पुनावंती राज्यां मूं*

: ते पुनावंती कन्येन आपलें आसा तिंतलें म्हण्टा आपल्या दासीं दिलें नी मोठीं काय सगळीं उठून फुडें मार्गा लागलीं.

*फुडें मार्ग नी चालता रे,*
*फुडें मार्ग नी चालता मूं*

*बरीं चालोन चाललीं रे,*
*बरीं पावोन पावलीं मूं*

: अशीं त्या तटबंदी आंगणां काय त्या कुंवराच्या घरीं तर पावल्या. आनी कुंवर म्हण्टा दोनीय हात घेयले माथ्यार आनी कामावंती तटां काय 'कामावंती नारीऽऽऽ' म्हण्टा!

*तुजेसाठी जग माडयता गे,*
*तुजेसाठी जग माडयता मूं*

*धन्य धन्य नारायणा रे,*
*माथ्यान वयत्या सुर्या परमेशरा" मूं*

: असो म्हणलो नी मोठो दार काय हुंपिलें नी मोठो काय घरीं भितर तर सल्ला.

*चल्लो म्हाल नी कुडींक रे,*
*चल्लो म्हाल नी कुडींक मूं*

*मिठा धींव नी उपशिला रे,*
*मिठा धींव नी उपशिला मूं*

: अशें काय तें पित्र काडलां नी मोठें काय खाक्यां माल्लां नी मोठो धळधळीं काय रडों तर लागला.

*कटा कटा कामावंती गे,*
*तुजेसाठी जग फिरला मूं*

: असो काय बोब मारता नी चौगी जाणी कन्या आसा त्यो काय तटबंदी आंगणां रावन काय कशी काय मजा तर पळयतात.

*बरो बोब नी मारिता रे,*
*बरो रडणे नी रडिता मूं*

: आरे स्वामी पती भरतारा म्हण्टा, मेल्लें मडें काय म्हण्टा कशातरेन तर

जिवदान जायना आनी त्या पित्रां खाक्या मारून तुयें बोंब माल्ली नी तुयें नाक माल्लें नी, तरी तुज्यान जिवदान करों तर जायना.

*तेवूं मेल्लें जितें मडें रे,*
*आगीन प्रवाळून लासचें मूं.*

: अश्यो तेणीं ज्यास्ती मारल्या नी हो चड चड धळधळ्यां काय रडों तर लागला.

*काडचो फोंड, फोंडां पुरचें रे,*
*मेल्लें मडें जिवदान जायना मूं.*

: अशातरेन म्हण्टा हीं काय मोठीं काय तेका बनावट तर करतात आनी तो बोबो काय एका वटीन मारता आनी मोठो धळधळीं रडों काय तर लागता. आरे स्वामी पती भरतारा म्हुणों लागली की तूं तें आंगणां सोड आनी तूं म्हुणों लागलो की भितर तर बस.

*देवा केदीं नी सोडिना रे,*
*पित्रा केदीं नी सोडिना मूं*

: आरे पिशा म्हुणों लागली की तें पित्र म्हुणों लागलीं की तुज्यान तर जायना जाल्यार आमी तरी लासतात.

*कुंवर घरींक तो गेला रे,*
*श्याम – नाम कुंवरा सांगला मूं*

: अशी नवरंगी कन्या आसा ती म्हुणों लागली की स्वामी पती भरतारा म्हुणों लागली की आमच्यांनी म्हुणों लागली की त्या पित्रा तर पळोवूंक तर जायना. गेली नी मोठी घरीं काय पलंगार तर बसल्या.

*तिगी जाणी आंगणां आसा रे,*
*तिगी जाणी आंगणां पावल्यां मूं*

: अशें काय सगळें तियेचें काय निखळून, पडलेलें तें पुनावंतीन पुनोवन काय

तयार तर केलां.

*काय तेयेचीं नकसुदां रे,*
*सगळे पुनोवन तयार जालां मूं*

*म्हाजें काम भयणी जालां गे,*
*घडावंती फुडें तूं सर मूं*

: अशें काय घडावंती कन्येन काय तें जाता तशें सगळें त्या तरेन घडोवन काय सोडलां.

*दोनय कामां तेणीं केल्यां रे,*
*घडावंती पुनावंती कन्यांनी मूं*

: अश्यो त्यो दोगी फाटीं रावल्यो आनी जिवलावंती कन्या काय फुडें तर सल्लीं.

*बरी लागली मंत्र जपूंक रे,*
*जप जपता मंत्र बोलता मूं*

*दाये हाती आसा अमृत रे,*
*अमृताची तियेंची मुदी मूं*

: अशें काय जिवलावंतीन काय त्या अमृताची मुदी काय तियेच्या तोंडांत काय घातली, ते नंतर उदकाची धार तर घातली.

*कन्या न्हिदलेली जागरूत जाल्या रे,*
*कन्या न्हिदलेली जागरूत जाल्या मूं*

: बऱ्यो म्हण्टा तियेच्च्यो त्यो वधलेल्यो त्यो घावो काय म्हण्टा त्यो माथ्यापोंदच्यो घावो काय अश्यो भरों तर लागल्यां.

*बरी सुर्या नी वराची रे,*
*बरी सुर्या नी तेजाची मूं*

: अशातरेन कन्या काय म्हण्टा जाल्या उपचाराशी उठून काय बसल्या,

तटबंदी आंगणा काय चौगी जाणी तर बसल्यां.

*बऱ्यो भितर सरल्या रे,*
*बऱ्यो भितर सरल्या मूं*

*म्हाजे कामावंती नारी गे,*
*म्हाजे कामावंती नारी मूं*

: असो बोब काय कुंवर पलंगार रावन काय मारता आनी अश्यो वचून काय त्या म्हाल सभे काय चौगी जाणी काय बसल्यां आनी त्या नंतर नवरंगी तर येवन बसल्या.

*कुंवर फुडें नी बसला रे,*
*पांच जाणी त्योवूं कन्या मूं.*

: अश्यो पांच जाणी कन्या नी कुंवर सुशेग काय तर बसल्यां.

*बरी शेखा कामावंत गे,*
*बरी शेखा कामावंत मूं*

: असो कुंवर काय जल्मा येयला तेन्नाच्यान मोठो दीस काय मोठो येळ तर बरोवन तर दवल्ला. तिये काय मुखार कितें घडटा तें आता काय खबर आसता, तितलेंय तियेन बरोवन काय मोठें सुशेग तर घेयलां.

*म्हाज्या स्वामी पती भरतारा रे,*
*यावूं मामा आमच्या राज्यां मूं*

: आरे स्वामी पती भरतारा म्हुणों लागली की, यावूं आमच्या राज्यां म्हुणों लागली की, ह्या राज्यां रावोन तर फायदो तर ना. आमच्या मामा राज्यां वचोन काय आमी राज्य काय चलोवंक तर जायें.

*कुंवरा कायी खबर नायी रे,*
*कुंवरा कायी खबर नायी मूं*

: आपणी म्हुणों लागलो की प्राणसखे वस्तुरे, राज्य काय आपल्यान पळयलें

ना म्हण्टा की पद.

*आपलें हेंवूं तेंवूं राज्य गे,*
*खंयच्च्या राज्यां जायें वचूं मूं*

: अशें काय किरवटे पानां शीर खावंचे पयलीं झरझरी काय पत्र बरयलें कामावंती नारीन आनी सय काय माल्ल्या कुंवरान आनी धाडून काय त्या सेनापती राज्यांक तर दिल्या. अशें काय दोन दिसां भितर म्हण्टा, बुधवाराचे दिशी म्हुणों लागली आमी की सगळीं काय आनी त्या राजा मंडळी काय बसों तर जायी.

*बरी राजाली मंडळी रे,*
*त्यावूं बुधवाराच्या दिसा मूं*

: बरें म्हुणों लागली की, त्या चंदणसुरा मळा म्हुणों लागली की कणकीचे दामे, शेमेलीचे ताटे आनी बांभळीच्या कांट्यांनी वंय तर करूं जायी.

*णव धावू सूळ जाये रे,*
*तयार करूं नी ते राज्या मूं*

: अशे काय कोणा गुमान कळनासतना म्हण्टा ह्या राज्यां म्हण्टा की णव - धा सूळ काय करूं जाये आनी त्या नंतर म्हण्टा सगळे लोक काय, सोभा येवन काय त्या मळार बसों तर जायी.

*इतलें राजा येयलां पत्र रे,*
*इतलें राजा येयलां पत्र मूं*

: राजान म्हण्टा कोणा शाद ना गुमान नासतना म्हण्टा की णव अशे काय मोठे कणसां सूळ काय तर केल्या.

*येक तीन कणसां सूळ रे,*
*येक तीन कणसां सूळ मूं*

: आनी सगळ्यां म्हण्टा लोकां म्हण्टा की ताकीद दिली की, मोठी म्हण्टा बुधवारा दिसा म्हण्टा, सभा काय त्या चंदणसुरा मळा काय मोठी पुनोवंक तर

जायी. जाण्टे जावं नेण्टे बुसून म्हण्टा की ते दिसा घरीं तर रावों तर जायना.

*अशी वर्द राजान केला रे,*
*सेनापती राजान वर्द मूं*

: मोठो राजा काय आपले ते सभे काय येवपाक काय पत्र तर धाडलां. अशी म्हण काय सभा बोलयली नी मोठी काय त्या बुधवारा दिशीं हेमी काय मोठें वारूं सज्ज तर केला.

*बरें कामावंती नारीन गे,*
*बरें कामावंती नारीन मूं*

: अशें काय आंगणां पावलीं नी मोठीं काय वारवार बसलीं नी सगळे बसून काय वारवार, वारूं आकाशांत काय तर मोठो तर सोडला.

*बरे शब्द नी बोलता रे,*
*बरे शब्द नी बोलता मूं*

*भुली केल्लो होवूं शिरंगार रे,*
*वयचो भुली तोवूं सगळो मूं*

: अशें घर-दार म्हण्टा, बाग-बागशेर सगळें म्हण्टा तें भुली काय मोठें तर गेलें.

*सरपट जालें मळ-मैदान रे,*
*सरपट जालें मळ-मैदान मूं*

: असो काय वारूं उडलो काय आकाशां-मंडळां, सात वनां सोडून काय तो त्या सेनापती राजा सोभे काय देंवला.

*बरो सोभे वारूं देंवला रे,*
*बरो सोभे वारूं देंवला मूं*

: असो काय सोभे देंवलो आनी त्या कामावंती कन्येन काय त्या राजा म्हऱ्यां तें पत्र काय वडयलां.

*राजान पत्र हातां घेयलां रे,*
*राजान पत्र हातां घेयलां मूं*

*देवा पत्र पळयल्यार रे,*
*वाचोंक येयना राजा पत्र मूं*

*दोळ्यां धळधळ्यां व्हांवता दुकां रे,*
*राजा दोळ्यां व्हांवता दुकां मूं*

*कुंवर जल्मा येयला राजा रे,*
*शेणा गायरीं कुंवरा पुल्ला मूं*

: असो काय परधानान काय वाचल्यार म्हण्टा, शेणा गायरीं काय कुंवरा पुल्ला, त्या नंतर काय मोठो वयर काय काडला.

*गाय खोटी दमडी इकला रे,*
*गाय खोटी दमडी दिला मूं*

: आरे लोकांनो म्हण्टा, सोभा म्हण्टा राजा बसली काय म्हण्टा, आयकया कानांनी काय म्हण्टा, ह्या राज्यां सेनापती राजा, कुंवरा कोण वर्तुमान तर जालां.

*बरें कानांनी आयकया रे,*
*बरें कानांनी आयकया मूं*

: असो काय मोठो काय म्हण्टा त्या कुंवराक काय मारून वडयलेलो त्या शेखा कन्येन म्हण्टा जिवदान केलो. पाताळांतल्या शेखा अमृत तर हाडून.

*थिंगां सान मळार चल्लां रे,*
*मळा–मैदान बांदिलां मूं*

: अशें काय तें काय कन्येक मोठी काय त्या सेनापती राजाली धाकटी बायल आसा तिणें गुप्त काय करून तर वडयला.

*तियेन मान्न धन्नी उडयला रे,*
*तियेन मान्न धन्नी उडयला मूं*

: परधान सांगता सारकें आयकया म्हण्टा, लक्ष धोन्न तुमी तर आयकुवंचें. अशें करून म्हण्टा तें हाडून म्हण्टा कुंवरान काय तें मिठा राशीं घान्न म्हण्टा कुंवर काय जग फिरत तर गेला.

*तिगी कन्या कुंवरान जोडल्या रे,*
*तिगी कन्या कुंवरान जोडल्या मूं*

: अश्यो तिनी कन्या जोडून काय ती नवरंगी कन्या आसा ती अखेर काय तर जोडल्या.

*परतून घेवन कुंवर येयला रे,*
*परतून घेवन कुंवर येयला मूं*

: त्या नंतर येवन म्हण्टा ती कामावंती कन्या आसा तिका काय जिवदान तर दिला.

*येयला सेनापती राज्यां रे,*
*येयला सेनापती राज्यां मूं*

: असो णवूय जाणां वैजिणीं म्हण्टा कडकडो भल्लो नी, धाकटे बायले आसा तिका कोण वर्तुमान तर जालां.

*देवा जिवा घात जाला रे,*
*आतां जिवा घात जाला मूं*

: आनी तेन्ना पत्राचेर म्हण्टा कोण वर्तुमान सांगता, परधान उलोवन तर सांगता.

*सत्य वयता सत्याडेन रे,*
*पाप वयता पापाडेन मूं*

: अशें सगळें वाचून म्हण्टा सगळ्यां लोकां काय कळयलें आनी तीन कणसां सूळ आसा ते काय तीन मार्गार तर पुरल्यां.

*णव वैजिणी चडयला रे,*
*सुळार गुप्त नी करिला मूं*

: राणांनों म्हण्टा तुमी दोन दोन शिंपलें द्रियें म्हण्टा संबंद खायलें नी आतां म्हण्टा दोन दोन शिंपलें तर खाया.

*राजा धाकटे बायले व्हयला रे,*
*तीन मार्गार पुल्ला सूळ मूं*

: आगे राणे म्हण्टा, तुका म्हण्टा की राज्य चलोवपा जायें, आता म्हण्टा राज्य चलय म्हण्टा, तिये काय मोठो काय गाणीत घायला तिरसूळ आनी म्हण्टा गाणीन सुळार तर चडयला.

*गुप्त राणेक तो केला रे,*
*गुप्त राणेक तो केला मूं*

: आनी त्या नंतर त्या कुंवरान काय आपल्या त्या सेनापती राजा बाप्पा तर धल्ला.

*तेची आसा तिवूं माया रे,*
*जाल्ल्या थिंगा आसा माया मूं*

*म्हाज्या पुता नूं तूं पुता रे,*
*आपल्या काम एक आयक मूं*

: इतले म्हण्टा तरास केले, इतले म्हण्टा तरासांनी आपल्या घरा तर पावलो. आपलें म्हण्टा आयेवपण काय गळ्यां दवर आनी कुकमाचो तिळो काय कपला लावपाचो तो तर दवर.

*कुंवरा खरें देवा दिसलां रे,*
*बाप्पा दिता तोवू जिवदान मूं*

: केन्ना म्हुणों लागली की बाप्पा हत्या करूं जायना म्हण काय माया सांगता नी वचोन काय तो बाप्पा मांडयेर तर बसता.

*पांच जांणी त्योवूं कन्या रे,*
*पांच जांणी त्योवूं कन्या मूं*

*माये हाडला नी तो सोभे रे,*
*माये मांडयेर बसल्या सुनो मूं*

: अशें काय माये मांडयेर सुनो बसल्या नी, बाप्पा मांडयेर तो कुंवर काय बसला आनी ते सोभे मंडळा तेमी काय मोठ्या अर्थ-उमेदीन काय, लग्न काय तडाख्यान तर केलां.

*लग्न जाला संपादून रे,*
*लग्न जाला संपादून मूं*

: आनी त्या कुंवरा वयर नी काय बसयला त्या राज्या सोभे काय शिंवासनार आनी राज्य काय चलोवंक तर दिलां.

*कन्या आसा घर म्हाला रे,*
*कन्या आसा घर म्हाला मूं*

: बाप्पा शिवाय ना संवसार आनी माये शिवाय ना जल्म म्हण्टा, अशातरेन म्हण्टा बाप्पा नमस्कार तर करचो, माये नमस्कार!

*कंथा आसों राजवंशा रे,*
*ह्यावूं सेनापती राज्यां मूं*

: अशें काय त्या कुंवरान सेनापती राज्य चलोवचें आनी ही कंथा मार म्हण्टा ह्या सेनापती राज्यां तर उरों!

*आमची कंथा नी सोंपल्या रे,*
*इतली कंथा आमची सोंपल्या मूं*

(टीप : केपे तालुक्यांतल्या कर्ल गांवांत घोळणुकेंत आशिल्ली ही गितकाणी 4 सप्टेंबर 1991 दिसा रातची संकलीकेच्या आमोणें-केपें हांगाच्या घरा खाझेलेपणान गावन घेवन अक्षरबद्ध केल्ली आसा.)





राजा काय उठोन, वणटीर उजवाडा पळोवंक लागलो काय तीं चित्रां, थय एक मोराचें चित्र आसलेलें, ते काय सजीव जालें आनी वचोन खुंटयेचो हार आसा तो खायलो...

# शनीदेव आनी इक्रामंत राजा

गावपी :

श्री. बोमो गांवकार, कर्ल–केपें

सुरांवपी :

श्री. जानु गांवकार, कर्ल–केपें

श्री. बाबी गांवकार, कर्ल–केपें

दीस गेला कामा - धंद्या रे,
दीस गेला कामा - धंद्या मूं

रात आली आनंदाची रे,
रात आली आनंदाची मूं

सांग सांग रामा काणी रे,
सांग सांग रामा काणी मूं

काणी सांगची जाणोऱ्यांनी रे,
आयकों बसच्यो नारी - बाळी मूं

बरें अंवत्या नी राज्यां रे,
बरें अंवती नी नगर मूं

बरो इक्रामंत नी राजा रे,
बरो इक्रामंत नी राजा मूं

: असो काय मोठो इक्रामंत राजा काय मोठो अवंती राज्य काय करता!

बरो पुण्यवान राजा रे,
बरो पुण्यवान राजा मूं

राज सुखान चलयता रे,
राज सुखान चलयता मूं

राजा सभा नी बसल्या रे,
राजा सभा नी बसल्या मूं

: अशी काय इक्रामंत राजाची सोभा काय मोठी काय धनदाट बसली रे देवा! आनी काय मोठे ल्हान काय थोर म्हणनासतना पंडित काय मोठे सोभे तर बसलांत!

सोभेर प्रश्न नी पडला रे,
सोभेर प्रश्न नी पडला मूं

*णव ग्रहांची नी काणी रे,*
*णव ग्रहांची नी काणी मूं*

: ह्या णव ग्रहांमदीं कोण काय श्रेश्ठ म्हुणोन काय प्रश्न तर पडलो!

*योक पंडित उठला रे,*
*योक पंडित उठला मूं*

: रवी म्हण्टा तो ग्रह म्हण्टा सर्वांत श्रेश्ठ काय सर्वांक पचन काय सूख दिणारो, तो काय रोहित म्हण्टा तो ग्रह म्हुणों लागलो! आनी काय सांगलें नी दुसरो काय पंडित उठलो रे देवा.

*सर्वांत श्रेश्ठ सोम ग्रह रे,*
*सर्वांत श्रेश्ठ सोम ग्रह मूं*

: सर्वांत श्रेश्ठ म्हुणों लागलो सोम ग्रह आनी सर्वांत सूख आनी सदाचार चलोवणारो सोमवार, आनी तेगेलें आयकता बुसून तिसरो काय पंडित काय उठलो आनी तो काय सांगूं लागलो, सारो मोठो काय म्हुणों लागलो मंगळ ग्रह तर आसा. आनी मंगळाची जर मनोभावनेन पुजा करत तर तेका सगळें सूख धन-दौलत काय बुसून मेळटा आनी मनांत अहंकार दवरून करत तर तेगेलो सगळो संवसार रोकडोच बिगडून ना जावन बसता. अशातरेन म्हुणों लागलो मंगळ म्हण्टा तो ग्रह.

*चौथो पंडित उठला रे,*
*चौथो पंडित उठला मूं*

: सर्वांत श्रेश्ठ म्हुणों लागलो की बुध. तेची म्हुणों लागलो की कशीय सेवा केली जाल्यार तो रोकडोच पावन जाता आनी सूख काय समाधान बरें दिता. अशें करून काय तो ग्रहांची काणी काय सांगोंक लागला. आनी गुरु म्हण्टा तो काय सगळ्यांक बुद्ध दिणारो आनी सगळ्यां काय तर बरें करणारो. आनी दैत्य गुरु म्हण्टा तो कोण रे? सुक्राचार्य! तेणें मेलेल्यांक लेगीत जिते केले आनी दैत्यांचेर फार उपकार केले. अशातरेन काय मोठे पंडित काय सांगोंक लागले रे देवा. राजा आसा तो मोठो शिंवासनार बसोन मान हालोवन सगळें

काय आयकता रे देवा. तर म्हुणों लागले की रावू-केतू आसा ते मोठे राकेस कुळांतले दैत्य. ते म्हुणों लागले की मोठे दुश्ट.
तेंची काय मनोभावनेन पुजा केली तर तेवूय बी पावन काय जाता मनशांक. ना तर तेवूय बी मनशांचो संवसार रोकडोच पाडा करून घालता. आनी रावू-केतू हीं काय दोनय गिराणां. अशे हे जाले काय आठ! आनी णववो कोण? तर शनी म्हण्टा तो काय मोठो दुश्ट! आनी तो काय जल्मताच तेगेल्या बाप्पाचे दोळे काय तर कुड्डे जाले! आनी सारथ्यालें आंग काय धल्लें आनी म्हुणों लागलो अश्वो काय तर पांगळो जालो. आनी तेणीं मोठें वखद केलें पूण काय गूण तर पडना! आनी त्या येळाचेर कोण मज्जा काय जाली रे देवा! इक्रामंत राजान तोंडांतल्यान एक उच्चार काय काडलो. असो पुत्र जावंचो तर तो जाता तेदनाच मेल्यार कितें वायट?

*शनी देवान आयकलां रे,*
*शनी देवान आयकलां मूं*

: असो भोंवतालो तो शनीदेवान सगळें आयकलें आनी तो काय सोभे येवन बसलो. आनी तूं कितें उलता म्हण काय विचाल्लें. तेदना राजान तेका नमस्कार केलो तर शनीदेवान तेका झिडपून उडयलो. तुका दाखयन तर दाखयन! कितें? अशें म्हणलें आनी तो काय शनीदेव सांगूंक लागलो की आपूण तुका साडे-सात वर्सां मेरेन त्रास काय करतलों! इतलें सांगलें की शनीदेव काय ना जावन गेलो.

*राजा चिंता नी करिता रे,*
*राजा चिंता नी करिता मूं*

*जेवण नाका देवा खाण रे,*
*अन्न नाका देवा पाणी मूं*

*राजा चिंतेन बसला रे,*
*राजा चिंतेन बसला मूं*

: आता कितें घडटलें, कात घडटलें अशें म्हण काय तो येवजूंक लागलो.

आनी जिवाचेर कितें येत तें काय परतुवपार ना. अशें मनांत म्हण्टलें आनी त्या पंडितान काय सांगलेलें तेंवय मनांत घेतलेना. कितें घडटा तें तर घडों! अशें म्हणलें आनी त्या राजाचो एक म्हयनो काय गेलो. आनी अशीं काय शनीदेवान मोठीं रुपां पाळटिलीं, मनां दंडयलीं. नी मोठें नांव काय सुधाकर काय दवल्लो. आनी काय दोन सुंदर अश्वे काय घेवन येयलो.

*येयला अंवत्या राज्यांक रे,*
*येयला अंवती नगरीक मूं*

*सुंदर घोडे नी दिसता रे,*
*सुंदर घोडे नी दिसता मूं*

: घोडे काय राजवाड्याक हाडनाका, खूब मोठे मोठे लोक काय येयले, घोडे पळोवपाक. जाल्यार ह्या घोड्यां मोल कितें? तर तुमी बसोन पळेयात! भोंवोन पळयल्या शिवाय मोल कशें कळटलें? तशें म्हण्टगेर राजा घोड्यार बसलो आनी तेणें माल्लें चाबूक! असो चाबूक मारतकच घोडो उडलो आकाशांत काय रे देवा! चौदा गगनां फिरून काय एक धा पळां भितर उतरून काय पृथ्वीचेर तर पावलो. आं! बरो घोडो! अशें म्हणलो आनी हेजें मोल कितें? तर तेजेर बसून पळय. अशें म्हणटगेर राजा काय उठलो आनी त्या घोड्याचेर बसलो.

*राजान चाबूक मारिला रे,*
*राजान चाबूक मारिला मूं*

*घोडो उडला आकाशाक रे,*
*घोडो उडला आकाशाक मूं*

: असो काय घोडो उडलो तो मोठो काय आकाशांत सामको काय मोठो राज्यां काय फिरों तर लागला! त्या नंतर घोडो गेलो तो फुडें मोठो काय परक्यां राज्यां पावलो रे देवा!

*कसो घोडो नी परतना रे,*
*कसो वारूं नी परतना मूं*

*परक्या राज्यांत तो गेला रे,*
*परक्या राज्यांत तो गेला मूं*

: परकी राज्यांत गेलो, ना देख ना वळक त्या राज्यांत. आनी काय सांजेचो वेळ जालो रे देवा. आनी काय मोठो अरण्यांत तो काय वारूं सकल दें‌वलो रे देवा.

*गांव नायी देवा देश रे,*
*गांव नायी देवा देश मूं.*

: असो काय अरण्यांत पावतापसून तो काय त्या घोड्यावेलो सकल काय दें‌वलो रे देवा. घोड्यावेल्यान दें‌वलो आनी ह्या वटेन काय पळोवंक तर लागलो.

*घोडो थिंगा गुप्त जाला रे,*
*घोडो थिंगा गुप्त जाला मूं*

: घोडो थिंगा गुप्त जालो नी त्यावटेन त्या अरण्यां पळयल्यार वनय बी ना रानय बी ना, झोप ना, कांय एक ना. न्हंय पळयल्यार न्हंयय बी ना.

*राजा आश्चर्य घडलां रे,*
*राजा आश्चर्य घडलां मूं*

: इतलें करता पासून काळोख काय जालो आनी त्या काळखांत काय कोण मज्जा जाला. तो सगलो अजाप जालो आनी एका झाडा आडस धल्लो आनी रावलो. राती खंय म्हण वयतो काळखाक? संवयीचें राज्य जाल्यार वाट काडून वचों मेळटा न्हूं? अनवळखी राज्यांक खंय कसो वयतलो? ते राती तो त्या झाडामुळांत बसून रावलो. आनी ह्या वटेन तो शनीदेव लागला मोठो काय त्या लोकांक सांगोंक, आपल्या घोडो खंय गेला तो तुमी कशाबशेन काय हाडाय सोदून. कोण सांगता? सुधाकर! आपल्या घोडो खंय तो दाखोवन दियाय! आनी परधानान काय साऱ्या लोकांक काय धाडलो काय सोदूं रे देवा!

*सारी गांवां नी सोदितां रे,*
*सारी गांवां नी सोदितां मूं*

: सारीं राज्य धुंदाळून वडयलें तरी तो घोडो तेंकां काय मेळना. आतां कितें करतलों? आपल्या घोड्या पयशे तरी दियाय! मोल कितकें? एक लाख! एक लाख म्हण्टकच परधानान तें राजा भांडारांतले काडले आनी पत्राचेर घायले. तो पोटली बांदून खुशाल घेवन गेलो. कोण? शनीदेव! ह्या वटेन मोठी काय राजान ती रात थिंगा काय काडली. आनी सारो लोक काय राजा ना म्हुणोन चिंता काय करुं लागला.

*दुसरो दीस नी पावला रे,*
*दुसरो दीस नी पावला मूं*

: दुसऱ्या दिसा सकाळीं झिळमिळी जातना काय उठलो रे देवा.

*येका राज्यां वाट मेळ्ळ्या रे,*
*एका राज्यां वाट मेळ्ळ्या मूं*

*बरो वाटेन चालता रे,*
*बरो वाटेन चालता मूं*

: असो काय वाटेन चालून गेल्यार तामलिंद्पुरा म्हण्टा त्या राज्यां वचोन काय पावलो. आनी त्या तामलिंद्पुरा राज्यां काय एक मोठो सावकार आसा रे देवा, आनी तेचें एक दुकान - पसरो काय आसा रे देवा. तेच्या पसऱ्यार सामान भल्लेलें आसा म्हण्टल्यार कोण काय येना रे देवा, तेका गिराक काय जायना.

*राजा थिंगा नी पावला रे,*
*राजा थिंगा नी पावला मूं*

: राजा आसा तो थिंगा पावलो नी कोण बसपा लागून त्या बाकाकडेन पावलो. आनी तो बसतापासून कोण नासलेलो लोक आसा तो त्या दुकानार पावलो आनी सारो म्हाल काय बारा वर्सांपासून दस्तनां आसलेलो तो ते दिसा

काय खपलो. आनी त्या सावकारा दिसलें हो मनीस खरो पुण्यवान म्हुणोन. तेणी तेका काय दवरून घेतलो. बाबा, म्हुणों लागलो, तूं आयच्या दिसा काय आपल्यागेर राव. जेवण-खाण करया आनी कितें सगळीं कामां करया. आनी तेणें घरा आपल्या ताकीद दिली, आपल्या बायले-भुरग्यां काय सांगलें की मोठें खीर-पुरयेचें जेवण काय पांच पक्कान्नां कांय करचीं. आनी तेका काय दवरून घेयलो आनी दोगूं जाण उठले आनी आप-आपल्यो आंगोळ्यो काय केल्यो.

*दोगूं जेवणाक नी गेला रे,*
*दोगूं जेवणाक नी गेला मूं*

: अशे काय दोगूं जाण जेयले - खायले रे देवा! राजा काय चांग आसा, आपल्या पोटा जाय तें जेवलो आनी बऱ्यो पान-तपकड्यो खावंक बसलो रे देवा.

*मोठो सावकार नी मामा रे,*
*बरो सावकार नी मामा मूं*

*तेची कन्या नी ती आसा रे,*
*तेची कन्या नी ती आसा मूं*

*कन्ये नांव आलोवलिका रे,*
*कन्ये नांव आलोवलिका मूं*

: अशी हजारां सोदल्यार बुसून ते कन्येसारकी एकटीय मेळना. असली ती कन्या, असली ती उपवर आनी ते कन्येसाठी तेणी मोठे न्हवरे सोदल्यार काय तेकां ते कन्येपासत एकूय काय भरतार मेळना. त्या वेळाचेर काय हो राजा काय सावकाराच्या मोठो काय मनां गेलो. आनी हेचेकडेन आपले धुयेचें लग्न काय करचें म्हण तेच्या काय मनां जालें. आनी आपल्या धुये काय सांगोंक लागला.

*म्हाज्या बाये न्हूं तूं धुये गो,*
*म्हाज्या बाये न्हूं तूं धुये मूं*

: आज म्हुणों लागलो, बारा वर्सां जालीं आपूण तुका सोदूं लागल्यार फावो सारको घोव, पूण आपल्याक खंयच काय मेळ्ळो ना. आज आपल्या पांयांनी म्हुणों लागलो की तो आपल्या घराडेन येयला. तेन्ना तूं काय अनमन नासतना तेच्या गळ्यांत माळा घाल आनी तेचो पती म्हुणोन स्विकार कर.

*बाप्पा खूब जालें तुजें रे,*
*बाप्पा खूब जालें तुजें मूं*

: तेजो म्हुणों लागलें की समाचार आयचे आयज आपूण घेतलें. अशें म्हणलें आनी सांगलें, तेका धाड म्हण चित्रशाळेंत, मागीर आपूण कशी ती तेची वळख करून घेता. अशें म्हणलें आनी ते कन्येन काय आपलो पलंग - बिलंग शिंरगारलो रे देवा! आनी सावकार काय येयलो आनी राजाक सांगों लागलो, चित्रशाळेंत काय तुयें न्हिदोंक वचों जायो.

*राजा सांगोंक लागला रे,*
*राजा सांगोंक लागला मूं*

: असो काय राजा चलतकच काय मोठो चित्रशाळेंत पावलो रे देवा. आनी ना ना तरेचीं चित्रां काडून दवरून, काय मोठीं हरणां - बिरणां काय काडून दवल्ला. बरी कोंकिळा नी काय बरे मोर नी सगळीं चित्रां काय ते चित्रशाळेंत लेपून दवल्लां. आनी तें सगळें पळोवन काय तेचें मन काय मोठें प्रसन्न जालें. आनी तेच्या फुडें पळयलें जाल्यार एक पलंग काय मोठो शिंरगारलेलो आसा! माणिक - मोती, केंप-वज्र काय अशातरेचो पलंग शिंरगारलेलो आसा. आनी चारी वाटांनी चार काय अत्तराचे दिये जळटात. असो काय मोठो ना ना तरेचो अत्तराचो वास रे देवा. आनी काय सुंदर त्या पलंगाचेर गेलो आनी तेचेर बिछाने आसात हातळिल्ले.

*तेचेर काय नी पडला रे,*
*तेचेर काय नी पडला मूं*

: आनी चादर आसलें तें चादर वोडलें आंगावयल्यान आनी गप्प न्हिंदे रुप घेवन बसलो. आनी काय हे वटेन मोठी आलोवलिका पांयां नाकूट तें मस्तकीं केंस बुसून आपल्या सारीं सर्व अळंकार काय केले रे देवा. काय

मोठी देवांचे रंभे सारको अवतार काय केला. आनी हातां घेतला चंदनाचें पात्र आनी हांसत खेळत काय मोठी पलंगा फुड्यांत काय पावली रे देवा.

*राजान न्हिदे रुप घेतला रे,*
*राजान न्हिदे रुप घेतला मूं*

: राजान आसा तें न्हिदेचें फाल घेयलां नी वोगी काय न्हिदला नी ती काय उठयतो म्हण यत्न तर करता. कोणी न्हिदलेल्याक उठयत रे, जागो आसलेल्याक कोणाच्यान उठोवंक जाता? तिगे यत्न काय फुकट गेले. शेवट तिणें गंद व्होयलें आनी तेगेल्या आंगार फाफुडलें, थंड लागोन पूण उठत म्हुणोन. जाल्यार काय तो कसोच उठना रे देवा.

*कन्या कश्टी देवा जाला रे,*
*कन्या कश्टी देवा जाला मूं*

: हें पाड पोडों म्हणलें की ती कन्या बी काय त्या पलंगार न्हिदली आनी काय मोठी त्या वेळाचेर ही काय त्या पलंगार न्हिदता पसून झेम काय येयली. आनी त्यावेळाचेर त्या राजाल्या मनां काय येता आनी तो काय उठून बसलो आनी आपूण खंय पावलो, आनी कितें घडलें हें आपल्याक म्हण काय येवजूंक लागलो. आपल्या तोंडावेलें काडून काय मोठो हे वाटेन तेवाटेन काय पळोवंक लागलो रे देवा.

*बरो इक्रामंत तो राजा रे,*
*बरो इक्रामंत तो राजा मूं*

: आनी काय पळयल्यार काय ही सारकी काय दोळो घायल्यार दोळो काडपा न्हूं, इतकी सुंदर काय दिसता रे देवा. आनी परस्त्रीक काय आपूण हात-बोट लायल्यार मोठें पातक काय लागतलें रे देवा.

*आपूण पापाक न्ही भिता रे,*
*आपूण पापाक न्ही भिता मूं*

: आपूण सत्यान चलपी मनीस, आपूण पातक केन्ना करचो ना, आनी हात केन्ना लावचोना असो तेणें मनांत व्हड निश्चेव केलो आनी काय तो मोटो

असो त्या वटेन चित्रां पळोवूंक लागलो. आनी ते कन्येन कितें काय केलां न्हिदतना? आपल्या गळ्याचो मोतयां हार आसलो तो काय काडलो आनी खुंटयेक लायलो. आनी ह्या वटेन राजा काय उठोन, वण्टीर उजवाडा पळोवूंक लागलो काय तीं चित्रां. थंय एक मोराचें चित्र आसलेलें, तें काय सजीव जालें आनी वचोन खुंटयेचो हार आसा तो खायलो. खाता म्हुणोन तर कितें करया? तें काडोन घेतल्यार पातक लागता. तें खाता म्हुणोन हिका उठयली जाल्यार तिची न्हिद भंग जाता, तेवय बी पातक लागता. अशातरेन काय राजा पेचांत पडलो रे देवा. हें संकश्ट आपल्याचेर येयलें अशें म्हण तेच्या मनां काय येवजलें. कितें जाता तें जाता! अशें म्हणलें नी तो राजा आसा तो मोटो सुशेग काय आसा रे देवा.

*हार पुरायेन गिळला रे,*
*हार पुरायेन गिळला मूं*

: सारो हार गिळोन जातकच तो राजा बी मोठो पांगरुणें घेवन वोगीच काय रावलो. आनी ह्या वटेन सकाळ जाताच कन्या काय मोठी तर उठली.

*बरी सकाळीं उठला रे,*
*बरी सकाळीं उठला मूं*

*बाप्पान न्हवरो बरो हाडला रे,*
*बाप्पान न्हवरो बरो हाडला मूं*

: बाप्पान म्हणलो आपल्याक न्हवरो बरोच हाडला. आनी म्हण लागलो की हो लांबलचक न्हवरो हाडला नी आपूण म्हण लागली की एकटी जाली. आनी वचोंक ती पळयताली पळय, ती ज्युस्तच तिका हाराची याद जाली. थंय पळयल्यार हार तर ना.

*घात घडला जल्माचो रे,*
*घात घडला जल्माचो मूं*

: बऱ्यान दीता जाल्यार दी हार! ना जाल्यार ही चोरी पळय तूं करून बसला ती तुका कशातरेन पचपाचेर ना! अशातरेन काय कन्या मोठी राजाक काय

सांगों लागली. आपणें सायबिणी, तुगे हार घेतलोना! आपूण हिंगा तुज्या बराबर न्हिदला खरो पूण आपणें तुगे वस्तुकय हात लायलोना, कित्याकय लायलोना. पूण जें पळयलें, तें सांगलें जायत तर तूं खरें मानपाचेर ना! हेंवूय बी काय उलयलें तेणें. तेन्ना, ही चोरी काय तुका पचपाचेर ना रे देवा! अशें म्हण काय ती उलोवंक लागली आनी थिंगासान उठली नी मोठी काय आपल्या बाप्पा फुडें वचोन सांगों लागली. बाप्पा सांगतकच, बाप्पाक काय पांयांकडेन ते काय मस्तकी नेट माल्ला आनी दोग जाण काय बडोवपाक मनीस तयार काय केले.

*हाडला चिंचेचो नी सोप रे,*
*हाडला चिंचेचो नी सोप मूं*

: चिंचे सोप हाडलो नी तेका जेरवंत मार दिलो. सायबा, आपणें तेका हातच लायलोना! आनी तो हार कोणी खायलो, तें सांगल्यार तुका खरेंय दिसपार ना! तर तो खुंटये लायल्लो हार काय त्या चित्रान खायलो मोराच्या! कोण सांगता? हें वण्टीर काण्ण दवल्लेलें चित्र काय हार खाता? अशें म्हणलो आनी तो मोठो चित्रसेन राजा मेळ्ळो. आनी त्या चित्रसेन राजा मेळटकच, राजान आपले शिपाय काय धाडले रे देवा.

*राजा धरून तो व्हयला रे,*
*राजा धरून तो व्हयला मूं*

*राजा समोर नी उबो रे,*
*राजा समोर नी उबो मूं*

: आनी काय चित्रसेन राजा काय मोठो इक्रामंत राजाक काय इचारुं लागलो. आता म्हण लागलो, तिचें काय चोरून व्हयल्यार ताबडतोप दिवंचें! तेन्ना इक्रामंत राजा मोटो काय हात जोडून सांगों लागलो.

*म्हाज्या राजा नी तूं धनया रे,*
*म्हाज्या राजा नी तूं धनया मूं*

: आपणें म्हण लागलो की त्या हाराक हात लायलो ना आनी कितें घडलें तें

सांगल्यार म्हण लागलो की तुमकां खरें दिसना. वयल्यान तुमी आपल्याचोच अन्याय करतले. अशें म्हणलो नी त्या राजाक काय त्या इक्रामंत राजान खरी आसा ती खबर सांगली. मोरा चित्रान म्हण लागलो की तो हार खायलो. त्या वेळार त्या राजाक माल्ली तिडक आनी तेजे म्हणले की हात आनी पांये कातर आनी तेका वडया रानांत आनी येयात.

*अशी वर्द देवा दिला रे,*
*अशी वर्द देवा दिला मूं*

*बरे राजाचे ते शिपाय रे,*
*बरे राजाचे ते शिपाय मूं*

: अशे काय त्या राजाचे शिपाय काय त्या इक्रामंत राजा काय घेवन काय मोठे भायर काय अरण्यां तर येयलें.

*राजा हात – पांये कापिला रे,*
*राजा हात – पांये कापिला मूं*

: आनी तें लुंड काडलां, अरण्यां काय वडयलां आनी ते काय शिपाय परतून तर येयले आनी काय राजा त्या येळाचेर इचारूं लागला. तो मेलो काय जितो आसा तें? चारीय हात – पांये कातरिल्यांत आनी रगत व्हांवता भळभळींत. तो आनी उरतलो? मरतलो तो! अशें म्हुणोन ते शिपाय सांगों लागले. आनी त्या वेळाचेर त्या राजान काय एका म्हाराक काय सांगलें,

*बरें पेरगांव सांगलां रे,*
*बरें पेरगांव सांगलां मूं*

: त्या वाटेन म्हण लागलो, कोणच येवूं नयो. आनी कोणूच येयलो जाल्यार तेका दिश्टी पडल्यार म्हण लागलो, तेका तेजी काळकूट दिसून, कोणेंय एक थेंबो उदक आनी पेणे नीसय घालनयो. आनी तेका कोणी परतीपाळ केलो जाल्यार तेचीय बी तीच गत जातली.

*अशी वर्द राजान दिला रे,*
*अशी वर्द राजान दिला मूं*

: अशी वर्द दितकच लोक काय भंयाभीत जाले रे देवा. अशे एकदीस म्हण्टा,

दोन दीस - आठवडे काय चलों लागले.

*बरे म्हयने नी लागला रे,*
*बरे म्हयने नी लागला मूं*

: तें लुंड उडयलेलें तें तशातशें लाकडा कुडक्यासमान थंयच उल्लें रे देवा. आनी एक - दोन म्हयने काय सोंपले रे देवा.

*तीन म्हयने देवा सोंपले रे,*
*तीन म्हयने देवा सोंपले मूं*

*अन्न नायी देवा पाणी रे,*
*अन्न नायी देवा पाणी मूं*

*राजा तळमळे काडिता रे,*
*राजा तळमळे काडिता मूं*

*राजा हात नायी पांये रे,*
*राजा हात नायी पांये मूं*

: आनी त्या वेळाचेर काय मोठें राजाल्या मनां येवजलां, आरे शनीदेवान म्हण लागलो, आपल्या कितलो काय तरासां वडयला. आनी मागीर म्हण्टा, शनीदेवाक काय मनां काय आठवण तर जाली. आहा! म्हण लागलो ह्या राजाची पुण्याची खोलाय काय कोणाच्यान सोदूंक जायना. आकाशाकय दरारो म्हण लागलो तेगेलो आनी पाताळाकय बी दरारो. अशातरेन म्हण लागलो त्या शनीदेवान मात्शी काय त्या राजाचेर दया काय केली.

*बरो चित्रसेन राजा रे,*
*बरो चित्रसेन राजा मूं*

: आनी चित्रसेन राजाची बुद्धी काय मात्शी सैल काय जाली. आनी त्यावेळाचेर चित्रसेन राजान आपले काय मोठे दोन शिपाय काय धाडले. ते दिसा वडयलेलो तो मनीस आसा काय तो पळोवन येया, अशें म्हण तेणें सांगलें. त्यावेळाचेर ते शिपाय उठले आनी मोठे काय अरण्या वचोन काय

पळोवंक लागले. तर फुडें तें लुंड तशा तशें काय आसा. प्राण बी तसोच आसा. मोठे ते मागीर शिपाय येयले नी मोठे राजा काय सांगूंक लागले.

*राजान वर्द परती दिला रे,*
*राजान वर्द परती दिला मूं*

: राजान परती वर्द दिली की तेका, कोणय पेज ना जाल्यार उदक व्होन्न घालाय म्हण. अशी म्हुणोन वर्द दिनाका, कोणूय गरीब आसा तो काळकूट दिसता तो पेज – निवोळ व्होरोन तेका घालोंक लागलो. आनी तेका मागीर पेजे – नीस उदक काय पडूंक लागलें. आनी इतलें करता पासून कोण मज्जा काय जाली रे देवा. त्या काय अवंती नगरासान एक तेलयाली धूव काय तामलिंद्पुरा काय गेला.

*माव सुने हाडूं गेला रे,*
*माव सुने हाडूं गेला मूं*

: आनी माव – सून दोगी मोठीं पालख्यां काय बसलीं रे देवा. आनी आपल्याल्या चाकरां काय पालख्यां खांद मारपा लावन, तीं दोगां काय पालख्यांत बसून येतात.

*पावला तामलिंद्पुरा रे,*
*पावला तामलिंद्पुरा मूं*

: तामलिंद्पुरा येवन काय मोठीं, तेच वाटेन काय येयलीं रे देवा. आनी त्या वटेन येतना काय त्या सुनेची नदर आसा ती मोठी काय त्या इक्रामांताल्या लुंडाचेर पडली.

*तेलया सून नी वळखला रे,*
*तेलया सून नी वळखला मूं*

*पालख्यांतल्यान उडी माल्ला रे,*
*पालख्यांतल्यान उडी माल्ला मूं*

: उडी माल्ली ती वचोन काय त्या लुंडा हात घायलो. हात घालनाका, त्या

इक्रमंता लुंडान काय मोठो त्या तेलया सुने काय आशीर्वाद दिला. आनी त्या वेळार ती तेलयासून काय मोठी त्या इक्रमंता लुंडा काय इचारूं लागली.

*म्हाज्या राजा न्हूं तूं धनया रे,*
*म्हाज्या राजा न्हूं तूं धनया मूं*

*अश्यो कश्यो तुज्यो दशा रे,*
*अश्यो कश्यो तुज्यो दशा मूं*

: अश्यो ह्यो कोणें तुज्यो दशा केल्यो म्हण विचारूं लागली.

*बाई कितें नी तें सांगूं गे,*
*बाई कितें नी तें सांगूं मूं*

*देवाची नी तिवूं कळा गे,*
*देवाची नी तिवूं कळा मूं*

: आपल्याचे म्हण लागलो ग्रह काय वायट आसात, त्या ग्रहांचें म्हण लागलो कोणाच्यान सारकें करुंक जायना, अशें म्हण तिका सांगों लागलो. आनी तिका काय तेची दया येयली, आनी तिगेलो मांव आसा तो काय तर भिलो. हेका जर बरेबाशेन कितेंय केलें जाल्यार तो राजा आसा तो आपल्याक काय दवरपाचेर ना. अशें येवजून तो सुनेंक म्हण लागलो, तूं तेच्या फुड्यांत तर वचनाका! तेन्ना सून काय सांगों लागली की, तो येदो व्हडलो काय सार्वभौम राजा आनी हो चित्रसेन राजा काय तेगेलो मांडलीक! ह्या देशा येवन तो काय उशटवाऱ्यावयलो किडो तर जाला, तेका हिंगा तर काय एक मान ना जाला.

*लुंड खाक्यांक मारिलां रे,*
*लुंड खाक्यांक मारिलां मूं*

*आपल्या पालख्यांक दवरिलां रे,*
*आपल्या पालख्यांक दवरिलां मूं*

: आनी ती पालखी घेवन आपल्या घरा वचों लागली.

*मांवाक भंय जाली भिरांत रे,*
*मांवाक भंय जाली भिरांत मूं*

: मांवाक भंय जाली भिरांत, आता म्हण लागलो हो राजा कितेंय पूण दंड करतलो. आनी तो मोठो तेलीमामा काय राजवाड्यांक वचों लागलो.

*पावला राजाच्या दरबारां रे,*
*पावला राजाच्या दरबारां मूं*

*राजा फुडें उबो रावला रे,*
*राजा फुडें उबो रावला मूं*

: राजा फुडें उबो रावन काय मोठो काळ्कुळतेक येवन काय मोठो राजाक काय सांगोंक लागला. तो म्हण लागलो, तुयें हात-पांय कातरलेलो मनीस, आपूण म्हण लागलो तेका व्हरुं? आनी कितेंय पेज नीस घालूं?

*शाबास शाबास नी तेलया रे,*
*शाबास शाबास नी तेलया मूं*

*अन्न - उदक नी दिवूं रे,*
*वस्त्र - अळंकार नी दिवूं मूं*

: तेका म्हण लागलो अन्न - उदक दी, आनी मोठे वस्त्र - अळंकार कितेंय दी. अशें सांगोन काय मोठो तेलया काय घरा धाडलो रे देवा, आनी तेची सून काय तेच्या पयलीं व्हरोन काय त्या लुंडाक उदक पाणी न्हाणयला.

*उदक - पाणी नी न्हाणयला रे,*
*उदक - पाणी नी न्हाणयला मूं*

: अशें काय वस्त्र - अळंकार घालून, जेवोन - खावोन काय तें लुंड आसा तें मोठें काय पलंगार दवल्ला रे देवा. आनी इतलें म्हण्टापासून तो तेली आसा तो काय पावलो रे देवा.

*मात्सो भायर नी बसला रे,*
*मात्सो भायर नी बसला मूं.*

: आनी त्या वेळाचेर काय मोठें इक्रामंत राजालें लुंड आसा तें काय मोठें त्या तेलयामामा काय आपोवूंक लागलां.

*म्हाज्या तेलया नी तूं मामा रे,*
*म्हाज्या तेलया नी तूं मामा मूं*

हांगा मात्सो नी तूं येवूं रे,
हांगा मात्सो नी तूं येवूं मूं

: इतलें सांगतकच तो तेली काय उठला नी त्या लुंडा फुड्यांत काय वचून बसला.

*म्हाज्या तेलया नी त्या मामा रे,*
*म्हाज्या तेलया नी त्या मामा मूं*

: तुवें म्हण लागलो, आपल्याचेर म्हण लागलो भोव उपकार केले. आता म्हण लागलो आपल्याचेर आनी एक उपकार कर. आपूण हांगा आसा म्हण कोणाक म्हण लागलो सांगूंक जायना.

*आपूण तुज्या नी घराक रे,*
*आपूण तुज्या नी घराक मूं*

: असो काय मोठो सांगून काय, तेलया मनांत काय एक बुध्द काय येयली. आतां म्हण लागलो आपलें म्हण लागलो, तुयें एक काम करचें. आपलो म्हण लागलो, तेल काडपाचो एक घाणो आसा. तेजेर तुका व्होन्न बसयता, आनी तुयें, 'वच्चो!' 'वच्चो!' करपाचें आनी बैल म्हण लागला घुंवो जाये.

*शाबास शाबास तेलयामामा रे,*
*शाबास शाबास तेलयामामा मूं*

: इतली म्हण लागलो, नोकरी करुंक आपूण काय खुशाल आसा रे देवा. इतलें सांगतकच काय तें लुंड आसा तें काय काडून त्या घाण्याचेर बसयलें काय रे देवा. आनी तो इक्रामंत राजा आसा तो मोठो काय घाण्यार बसून त्या तेलयाले बैल काय धुकळूं लागला.

*बरो घाणो नी चलता रे,*
*बरो घाणो नी चलता मूं*

*बरो इक्राम तो राजा रे,*
*बरो इक्राम तो राजा मूं*

*बरो पुण्यशील राजा रे,*
*बरो पुण्यशील राजा मूं*

*बरो एक नी वचनी रे,*
*बरो एक नी वचनी मूं*

*बरो काय मंत्र नी जपता रे,*
*बरो काय मंत्र नी सादता मूं*

: अशे काय मंत्र साधन करून तेणी बारा काय तरांचीं तेलां निर्माण केल्लीं. आनी मोठो काय तेलांचो घमघम सुटोंक लागला रे देवा. आनी तेल्याच्या घरांतले सारे काय हांडे - बिंडे काय भरून जाले. आनी त्यावेळार तेलया काय मोठी उमेद जाली रे देवा. आनी त्यावेळाचेर तीं नासलेलीं काय गिरायकां येवंक लागलीं रे देवा.

*तेलया पयसो नी मेळला रे,*
*तेलया पयसो नी मेळला मूं*

: आनी त्या पयशाचेर तेणी एक काय ुसंदर बंगलो काय बांदला. आनी त्या बंगल्यांत मोठो काय रावूं लागला.

*राजा घाणो नी जुंपयता रे,*
*राजा घाणो नी जुंपयता मूं*

*तेलया सूख नी मेळला रे,*
*तेलया सूख नी मेळला मूं*

: अशातरेन त्या तेलयाचो संवसार आसा तो मोटो सुखाचो काय जालो. आनी इतलें करतापसून सात वर्सां काय भल्लीं रे देवा.

*राजा घाणो नी हाकयता रे,*
*राजा घाणो नी हाकयता मूं*

: आनी एका दिसा राजा काय मोटो घाण्याचेर बसलेकडेन राग काय आळोवंक लागलो रे देवा.

*बरे मध्यानीच्या रातीक रे,*
*बरे मध्यानीच्या रातीक मूं*

*बरो दिपराग गायला रे,*
*बरो दिपराग गायला मूं*

*सारीं रत्नां नी पेटल्यां रे,*
*सारीं रत्नां नी पेटल्यां मूं*

: आनी अशे काय सगळे दिये काय पेटले आनी त्या वेळाचेर काय मोठो राजा काय सुशेगाद काय दिपराग गायता. आनी त्या वेळाचेर मोठी चित्रसेन राजाली कन्या आसा काय मोठी रे देवा.

*पद्मसेना नी तिवूं कन्या रे,*
*पद्मसेना नी तिवूं कन्या मूं*

*कन्या उपवर नी जाल्या रे,*
*कन्या उपवर नी जाल्या मूं*

*बारा वर्सां नी भरला रे,*
*बारा वर्सां नी भरला मूं*

*सोळा वर्सां नी नटला रे,*
*सोळा वर्सां नी नटला मूं*

: अशीं काय बारा वर्सां नटलीं, सोळा वर्सां भल्लीं, कन्या उपवर काय जाली. आनी काय मोठीं आंगां रत्नां काय तिच्या नियाळूंक लागलीं.

*जुवाने भार कन्ये जाला गो,*
*जुवाने भार कन्ये जाला मूं*

---

*कन्ये भरताराची याद येता गो,*
*कन्ये भरताराची याद येता मूं*

: आनी ती उपरमाळयांचेर रावन काय मोठी दिश्टी काडता रे देवा. आनी त्यावेळार ती काय माळयेचेर उबी आशिल्ली, तिका काय उजवाड दिश्टी पडलो. आनी उजवाड दिश्टी पडनाका, ती चक्क कोन्न पळोवूंक लागली. आज कोणाली दिवाळी ना आनी मोठीं काय कोणालीं लग्नां काय ना रे देवा.

*हेंवूं कितें नी घडलां रे,*
*हेंवूं कितें नी घडलां मूं*

: हें अवचीत काय कितें घडलें, अशें म्हण ती कन्या काय येवजूंक लागली.

*दिपराग नी सोंपला रे,*
*दिपराग नी सोंपला मूं*

*राजेश्वरी राग गायला रे,*
*राजेश्वरी राग गायला मूं*

: असो काय मोठो राजेश्वरी राग गायलो, काय राजा न्हीद - बीद काय खळोंक लागली. नंतर काय तो राग काय सोंपयला आनी दुसरो राग काय गावों लागला. असो तो राग आयकून काय ती पद्मसेना मोठी काय गुंग जाली.

*मनां आठोवंक लागला रे,*
*मनां येवजूंक लगला मूं*

: कोण म्हणलो जावूं, हो काय मोठो मनीस आपल्या राज्यां काय पावला आनी तेणी म्हण लागलो हो दिपराग आळयला. आनी म्हण लागली कीं हो मनीस मेळ्ळो जाल्यार आपूण तर लग्न तेजेकडेन जातली.

*अशें मनाक येवजिलां गो,*
*अशें मनाक येवजिलां मूं*

*आपल्या दासींक उठयलां गो,*
*आपल्या दासींक उठयलां मूं*

: आपल्या त्या चौगी जाणीं दासींक काय उठयला.

*बरें दासींक सांगता गो,*
*बरें दासींक सांगता मूं*

: आपल्याल्या राज्यांत म्हण लागलो हो मनीस खंय आसा तो सोदून काडाय, आनी आपल्याल्या सुवादीन कराय. अशें म्हण काय मोठें दासींक सांगलां नी कन्या काय आपल्या पलंगार तर आसा. आनी काय रात्र सोंपली, दीस काय पावला रे देवा. बरें काय खावपाक खायलें आनी दासी आसा त्यो आपल्या काय तामलिंदपुरा नगरा काय भोंवोंक तर लागल्यो.

*सारें नगर भोंवता रे,*
*सारें नगर भोंवता मूं*

: सारे तामलिंदपूर नगर काय भोंवोन - धुवोन काय उडयलें रे देवा. आनी काय खांच-कोपरो सोदून पळयलो रे देवा.

*तोवूं मनीस मेळना रे,*
*तोवूं मनीस मेळना मूं*

: सोदीत सोदीत मोट्यो काय त्यो तेलयाच्या घरी काय पावल्या. तेलया घरी सोदतां सोदतां मोठी काय त्या घाण्याचेर नदर पडली.

*बरें इक्रमाचें लुंड रे,*
*बरें इक्रमाचें लुंड मूं*

: तें काय पळयल्यार स्वरुप - सुंदर दिसता, म्हटल्यार तेचे हात - पांये कापून काय कोणें लुंड तर केलां. अशें काय मनांत येवजिलें आनी त्यो दासी उठल्यो आनी काय आपल्या कन्येच्या म्हालांत तर गेल्यो.

*कन्ये सांगोंक लागला रे,*
*कन्ये सांगोंक लागला मूं*

*हात - पांये कापले लुंड गे,*
*हात - पांये कापले लुंड मूं*

: तें पळय तुगे बापायन हात - पांये कापून वडयलेलें शिमेभायर तेंच म्हण लागलें लुंड गायता! तशें जाल्यार म्हण लागली की आपूण जल्मा तेची सेवा - चाकरी करून तोच भरतातर म्हण वरतली. अशें म्हण कन्येन सांगलां नी तें लुंड म्हण लागली, कशातरेन आपल्या सुवादीन कराय. अशें म्हण्टकच त्यो चौगी जाणी दासी काय उठल्यो आनी एक पालकी काय घेतली.

*गेल्यो तेलयाच्च्या नी घरा रे,*
*गेल्यो तेलयाच्च्या नी घरा मूं*

: आनी तेलया काय सांगोंक लागल्यो.

*म्हाज्या तेलया नी त्या मामा रे,*
*म्हाज्या तेलया नी त्या मामा मूं*

*बरी पद्म नी ती सेना रे,*
*बरी पद्म नी ती सेना मूं*

: ते पद्मसेनेन म्हण लागली की तें लुंड काय मागलां रे देवा. आनी तिणें मोठें काय आपल्या धाडला आनी लुंड बरोबर काय घेवन यो म्हटला रे देवा. अशें म्हण्टकच तेलयो काय मनांत इचार करुंक लागला. राजकन्येची वर्द ती काय राजाली वर्द जाता, ती कशी काय मोडटलो म्हुणोन तेणें तें लुंड व्हराय म्हुणोन दासींक काय सांगलें. आनी चौगांनीय काय त्या लुंडा धल्ला आनी पालख्यांत काय बसयलां रे देवा.

*पालखी घेवन देवा गेला रे,*
*पालखी घेवन देवा गेला मूं*

: राजाक मात कळना जाल्यार पुरो! अशें म्हण मोठ्यो काय त्या चौगीजाणी दासी राजा कळनासतना तें लुंड घेवन माळयेर काय गेल्यो.

*कन्ये सुवादीन केला रे,*
*कन्ये सुवादीन केला मूं*

: आनी बेगी - बेगीन त्या रातीकडेन काय तेका उदक - पाणी घालून काय

तेल – मर्दन काय केला. आनी त्या वेळाचेर ती कन्या काय अन्न तेका काय आपल्या हातीन लावूं काय लागली.

*सेवा चाकरी कन्या करता रे,*
*सेवा चाकरी कन्या करता मूं*

: आनी त्या लुंडाची सेवा – चाकरी करुन काय पलंगार दवरून काय मोठी तेका इचार करुंक लागली. आता म्हण लागलो की ह्या जगांत तुज्या येदो मनीस काय ना म्हण, दिपराग आळोवणारो आनी दिपरत्नां पेटोवणारो. आतां म्हण लागलो, तूं दिपराग कशे आळयता ते आपल्याक सांग. अशें म्हण्टकच इक्राम राजा काय मोठे राग काय आळोवंक लागला.

*बरीं दिपरत्नां पेट्टटा रे,*
*बरीं दिपरत्नां पेट्टटा मूं*

: अशीं काय दिपरत्नां पेट्टटकच ना ना तरेचे राग आळोवन काय तेचें मन खुशाल काय केलां. आनी कन्या आसा ती मोठी काय राजाली सेवा काय करुंक लागली.

*ध्यान – मन नी राजाचेंर रे,*
*ध्यान – मन नी राजाचेंर मूं*

: कन्ये काय ध्यान –मन राजाचेर उल्लें आनी इतलें करतापासून हे सव म्हयने काय काबार जावपाक येयले.

*थोडे दीस नी उल्ला रे,*
*थोडे दीस नी उल्ला मूं*

: असो काय चित्रसेन राजाचेर मोठो काय प्रसंग येयला. परक्या राजान काय एक भांगराच्यो तीन – मुर्त्यो काय तयार केल्या. वजन सारकें, पळोवपा सारक्यो अश्यो काय तीन मुर्त्यो तयार केल्यो आनी चित्रसेन राजाक काय धाडल्यो. आनी हेचीं म्हण लागलो उतरां आपल्याक तीन म्हयन्याभितर धाडूंक जायी, ना तर तुजें राज्य काय आपल्याक पडटलें. अशी वर्द धाडटकच, त्यो मुर्त्यो काय राजा सभेर पावल्यो आनी एका मेजाचेर येवन बसल्यो. आनी

राजान काय तामलिंद्पुरा मोठ - मोठे पंडित काय आपयले, आनी हेची म्हण लागलो परिक्षा करून आपल्याक कोण सांगता, तेका आपूण मोठें बक्षिस दितलो. अशें काय बक्षिस दवल्लें रे देवा, सारो लोक काय राजा सभेर येवन बसलो.

*सारो लोक नी पळयता रे,*
*सारो लोक नी पळयता मूं*

: कोणाच्यान तेची परिक्षा घेवूं नजो, पळयल्यार सारक्योच, तेन्ना चित्रसेन राजा काय भोव चिंतेत पडलो रे देवा. कितें करतलो? आपल्याक शेवटी राज्यच ना आनी देशय ना, अशें जावन आपूण पडटलो अशें म्हण राजान काय चिंतलें रे देवा, इतलें करतापसून कोण मज्जा जाली रे देवा.

*बरी पद्मसेन कन्या रे,*
*बरी पद्मसेन कन्या मूं*

: अशी काय भोंवत भोंवत आपल्या बाप्पाच्या सभेर काय पावली रे देवा. आनी त्यावेळाचेर बाप्पा आस तो मोठो काय चिंतेर आसा रे देवा.

बाप्पा फुड्यांक नी गेला रे,
बाप्पा फुड्यांक नी गेला मूं

म्हाज्या बाप्पा नी तूं बाप्पा रे,
म्हाज्या बाप्पा नी तूं बाप्पा मूं

कितें जालां नी तें सांग रे,
कितें जालां नी तें सांगू मूं

: आनी इतली चिंता जावपाक, कसल्या संकश्टांत तर पडला? आनी मागीर चित्रसेन राजान आपल्या काय धुये तर सांगलां, ह्यो तिनय पळय ज्यो मुर्त्यो हांगां दवल्लेल्यो आसाय, तेंच्या मदीं कितें वेगळें, तें सांगों काय जायें. तशें जाल्यार आपूण काय तर पळयतां, अशें सांगून थंयच्यान आयली आनी त्या लुंडा काय इचारूं तर लागली.

*बाप्पा खबर सांगला रे,*
*बाप्पा खबर सांगला मूं*

: बाप्पान म्हण लागलें सांगलें ना जाल्यार हें राज्य - देश काय उरना. तर म्हण लागलो, आपले हे थोडे वायट दीस काय उल्ल्यांत, नंतर म्हण लागलो आपूण काय तर सांगता.

*तीन दीस नी ते उरला रे,*
*तीन दीस नी ते उरला मूं*

: तीन दीस गेल्या बराबर आपल्याक म्हण लागलो, तुमी व्हरचो, त्या चित्रशाळेंत तर व्हरचो. थिंगा म्हण लागलो आपूण तीं उतरां सांगतलो. थिंगा म्हण लागलो हार खायलेलो थिंगा एक कूड आसा, अशातरेन काय मोठें त्या पद्मसेनी इक्राम राजान तर सांगलां. इतलें करतापासून ते तीन वायट दीस आसा ते काय सोंपोन तर गेले. आनी ते दिसा काय मोठें तें लुंड काय शिंरगारलां आनी पालख्यां काय बसयलां.

*पालखी घेवन देवा गेला रे,*
*पालखी घेवन देवा गेला मूं*

*आलोवलिकेच्या नी म्हालां गे,*
*आलोवलिकेच्या नी म्हालां मूं*

: आनी सारीं राजा आनी ती सभा आसा ती चित्रशाळेंत जमा काय जाली रे देवा. आनी एका मेजार काय तिनी मुर्ती काय दवल्ल्यां. आनी इक्राम राजाचें लुंड काय मदें दवल्लां रे देवा.

*राजा दोळ्यांनी पळयता रे,*
*राजा दोळ्यांनी पळयता मूं*

: राजांनी दोळ्यांनी पळोवन सोवकास काय मनां येवजिलें काय तिनी मुर्त्यो सारक्योच दिसता रे देवा. एका वजनाच्यो, एके कलेच्यो, एका काय रुपाच्यो. आनी इतलें करून राजान काय एक बुद्ध काय काडली.

*एक लोखंडा तार घेतल्या रे,*
*एक लोखंडा तार घेतल्या मूं*

*तेवूं पद्मसेनी सांगलां रे,*
*तेवूं पद्मसेनी सांगलां मूं*

: ती पयली मुर्त म्हण लागलो की कानां घाल, तशें काय सांगतकच ते कन्येन काय घायली. ती ह्या कानांत घालतकच त्या कानांतल्यान काय भायर सरून गेली. दुसरी म्हण लागलो, तोंडांत घाल.

*तिवूं तोंडांतल्यान गेली रे,*
*तिवूं तोंडांतल्यान गेली मूं*

: तिसरी म्हण लागली पोटांत घाल, तिवूं पोटांत गेली!

*हेचो अर्थ नी सांगचो रे,*
*हेचो अर्थ नी सांगचो मूं*

: अशातरेन राजान काय मोठें, इतलें कुवाडें केलें. लोक काय मोठो, तेका काय बटबटीत पळोवूंक काय लागलो. अशी काय मोठी ह्या कानांत घायलेली ती, त्या कानांतल्यान काय भायर सल्ली.

*कोणी कितेंय म्हणलेलें रे,*
*कोणी कितेंय म्हणलेलें मूं*

: ह्या कानान आयकून त्या कानान काय सोडून दिलें रे देवा. आनी ह्या कानांत पडलें तें तोंडांत पावलें जाल्यार, हें करताली, तें करताली म्हण भोंवलें जगाचेर.

*असल्यो खबरी देवा जाता रे,*
*असल्यो खबरी देवा जाता मूं*

: आनी ती पळय कानांतल्यान वचून पोटांत गेली ती कोणाकच मेळपाचेर ना, जीव गेल्यार बुसोन ती दुसऱ्याक सांगपाचेर ना. इतलें करतापसून काय लोकांक अजाप दिसेलं रे देवा. आनी काय मोठो राजा बी खुशाल काय

जालो. आनी तेन्ना काय लक्षिमी, सरस्पती आनी धर्म आनी शनीदेव काय फुडें उपतन जालीं रे देवा. आनी लक्षिमी काय फुडें सरोन म्हुणों लागली,

*सर्वां श्रेश्ठ नी आपूण रे,*
*सर्वां श्रेश्ठ नी आपूण मूं*

: सर्वां श्रेश्ठ जर तूं, तर तुयें कितें केलें? तुयें धन दिलें जायत, पूण आज इक्रमाराजाक साडे-सात वर्सां हात-पांये कापून वडयलेले, तेका तुयें कितें केलें? तेन्ना ती काय फाटीं सल्ली आनी सरस्पती म्हण्टा ती बुद्धी बायल, ती काय वयर सल्ली. सर्वां श्रेश्ठ आपूण. सर्वां बुद्ध दिणारी. पयसोपासून दिणारी, म्हणजे लक्षिमी परसन करून घेवंक बुद्धी जाय न्हूं? तिकाय काय तेंच उतर मेळ्ळें. धर्म येयलो. धर्माकय तेंच उतर मेळ्ळें. तिगां फाटीं सल्लीं आनी त्या येळाचेर शनीदेव काय फुडें सल्लो.

*सर्वां श्रेश्ठ नी आपूण रे,*
*सर्वां श्रेश्ठ नी आपूण मूं*

: त्या वेळाचेर इक्रामालें लुंड आसा तें काय फुडें सल्लें आनी म्हुणों लागलें, सर्वां श्रेश्ठ खरो तूं. तुजी आराधना भक्ती - भावान केल्यार तूं सगळें दिता, तेजें कोणाच्यान पाड कांय करुं जायना! पूण तूं जर कोपलो जाल्यार तेका देवाच्यानय न्हूं आनी कोणाच्यानय पळोवूंक जायना! अशें म्हुणोन इक्रामान काय तेची व्हडविकाय गायली.

*मोठो शनी नाथ देव रे,*
*मोठो शनी नाथ देव मूं*

: अशें काय शनीदेवान काय मोठें पळयलें आनी त्या वेळाचेर काय मोठो राजा सांगों लागलो, आतां काय म्हुणों लागलो तुजी पुण्याचीं खोली सोदूंक जायना आनी ताळमूळ काय सोदूंक जायना. इतलें म्हुणों लागलो की तुज्या आंगांत पुण्य भल्लेडेन तर आसा. आनी काय येयलो नी त्या लुंडाच्या आंगोवेल्यान हात वोडूं तर लागलो. त्या लुंडाचेर हात वोडटकच तेका हात जाले आनी पांये काय निर्माण जाले. आनी तेच्या आंगावेल्यान हात वोडलो, पयलींच्याकय चड तेजस्वी काय केलो.

*पडलीं सुर्या सारकीं किर्णां रे,*
*पडलीं सुर्या सारकीं किर्णां मूं*

: आनी तितलीं कामां केली आनी तो गुप्त जालो. आनी काय मोठें त्या वेळाचेर काय कोण मज्जा जाली.

*तेवूं मोराचें नी चित्र रे,*
*तेवूं मोराचें नी चित्र मूं*

: आनी तें काय परतें गेलें नी हळू हळू काय वोकूं तर लागलें.

*हार खुंटयेक लायिता रे,*
*हार खुंटयेक लायिता मूं*

: आनी त्या वेळाचेर काय तितलीय भल्लेली सोभा काय त्या हाराक पळोवूंक तर लागली. आनी हो काय म्हाल - मोठो पुण्यशील राजा, हेचेर काय बेश्टो आळ तर घायलो.

*घेतो दुसरो नी तो कर्म रे,*
*घेतो दुसरो नी तो कर्म मूं*

*राजा हाल देवा केला रे,*
*राजा हाल देवा केला मूं*

: अशातरेन लोकां काय दोळ्यां दुकां तर भल्ली.

*बरो चित्रसेन राजा रे,*
*बरो चित्रसेन राजा मूं*

*राजा फुड्यांक नी गेला रे,*
*राजा फुड्याक नी गेला मूं*

*तुजो गांव - देश कोण रे,*
*तुजो गांव - देश कोण मूं*

*तुजें नांव नी तें कितें रे,*
*तुजें नांव नी तें कितें मूं*

: तर म्हुजों लागलो अवंती म्हण्टा ते राज्य तर आपलें आनी आपलें नांव काय इक्रमादित्य. आनी त्या वेळाचेर राजाक काय मोठो पश्चाताप तर जाला. आनी काय इक्रमाच्या चरणाचेर आपलें मस्तक काय दवल्लां.

*आपली चूक देवा जाला रे,*
*आपली चूक देवा जाला मूं*

*आपलीं तेमां नी तीं चड रे,*
*आपलीं तेमां नी तीं चड मूं*

: त्या वेळार इक्रामंत राजान सांगलें, तुजी कांयच चूक ना म्हण, आपलें ग्रह फिरलेले आसलेल्यान तशें सगळें घडलें म्हुणोन. आनी नशिबांत जें आसा तें कोणाच्यानच काडूंक जायना म्हण. आनी तितल्यान तो सावकार काय आपल्या कन्ये घेवन फुडें काय येयला. तो सावकार बी तेंच काय सांगों लागलो.

*आपले कन्ये अंतर दिनाका रे,*
*आपले कन्ये अंतर दिनाका मूं*

: आनी ही म्हुणों लागलो, तुजी सेवा – चाकरी काय करतली. आनी ह्या वटेन राजाकय बी उमेद जाली आनी काय देवा सारको आपल्याक जांवय मेळ्ळो म्हण.

*लोकां दान केला धर्म रे,*
*लोकां दान केला धर्म मूं*

: असो काय लोकां काय गोर–गरिबांक दान–धर्म तर केला. अशें काय त्या राजा आसा तें मोठे भुरगें ना रे देवा. आपली एक कन्या. तेणें आपलें राज्य आसा तें इक्रामाच्या सुवादीन काय केलें. आनी आपल्या काय बाळगिलो कोणी? आपल्या राखलो कोणी? अशें म्हण तेणी तेलया आपोवन काय हाडलो.

*म्हाज्या तेलया नी त्या मामा रे,*
*म्हाज्या तेलया नी त्या मामा मूं*

: आपल्याक इतलो तेप सांबाळ केलो, अशें म्हण त्या तेलयाक काय राज्याचेर बसयलो आनी तें राज्य काय तेच्या सुवादीन केलें. आनी तो चित्रसेन राजा आनी राणी काय उठली अरण्यांत तपसर्येक काय गेलीं.

*बरीं देवाच्या नी ध्यानां रे,*
*बरीं देवाच्या नी ध्यानां मूं*

: आनी ह्या वटेन सावकारान काय सारीं संपत्ती दिवन काय आपले धुयेक इक्रामराजा सुवादीन काय केला आनी मोठीं काय दास - दासीं घेवन मोठे लश्कर काय दिवन राजाक काय आपल्या राज्याक धाडपा काय केला.

*राजा आपल्या राज्यांत येता रे,*
*राजा आपल्या राज्यांत येता मूं*

: अशातरेन तो राजा आसा तो काय आपल्या अवंती राज्यांत काय येवपा तर उठलो. आनी अशारितीन तो व्होर काय आपल्या राज्यांत तर पावलो. आनी लोक काय मोठो केन्ना राजा येतलो आनी केन्ना आपल्या दर्शन घेवूं मेळटलें म्हण काय तर पळयता.

*असो लोक नी पळयता रे,*
*असो लोक नी पळयता मूं*

: आनी तितलें चलोन चलोन काय मोठीं आपल्या राज्यां काय पावलीं रे देवा. आनी त्यावेळाचेर राजाक भेटून काय मोठी गर्दी काय जाली रे देवा.

*बरो आपल्या नी राज्यांक रे,*
*बरो आपल्या नी राज्यांक मूं*

: आपल्या राज्यां येयलो, मोठो सुशेगाद काय रावलो, मागीर परधानान काय मोठो येळ-म्हुर्त काय काडलो रे देवा. आनी त्या वेळाचेर राजा काय मोठो अभिशेक करून काय त्या राज्याचेर बसलो.

*आपल्याक दोन नी त्यो राणयो रे,*
*आपल्याक दोन नी त्यो राणयो मूं*

: असो काय दोनीं राणयांक घेतला नी आपलें राज्य आसा तें मोठें सुखान काय चलोवूंक लागला. आनी मागीर राजान काय ह्या वटेन कोण मज्जा केला.

*बरें शनीचें नी व्रत रे,*
*बरें शनीचें नी व्रत मूं*

: आनी ते नंतर शनीदेवाचें व्रत आसा तें कायम काय करूं लागला, आनी तो इक्रामराजा आसा तो मोठो काय सुखान – आनंदान राज्य करुंक लागला.

*मोठो इक्राम तो राजा रे,*
*मोठो इक्राम तो राजा मूं*

*बरें पुण्य नी जोडिलां रे,*
*बरें पुण्य नी जोडिलां मूं*

: आनी त्या इक्रमाराजान काय पुण्य जोडलां, तेचे पयलीं काय खंयच्या राजान तितकें जोडलेलें ना! आनी हेच्याफुडेंय कोणाच्यान तितकें जोडूंक जावंचे ना, असलें पुण्य काय त्या राजान जोडलां. आनी त्या पुण्याचेर काय तेगेलो प्राणी आसा तो काय मोठो कैलास पर्वताचेर तर पावलो.

*पावलो शंकराच्या राज्यां रे,*
*पावला शंकराच्या राज्यां मूं*

: तेका काय परतो आनी पिरथिचेर जल्म घेवूं दिलो ना देवान. तो काय देवाक नेवेद्य दिलेलो, तेका काय मोठो पावत आसा.

*नांव अजरामर उल्लां रे,*
*नांव अजरामर उल्लां मूं*

*बरो इक्रामंत राजा रे,*
*बरो इक्रामंत राजा मूं*

: अशें काय इक्रामंत राजान राज्य केलें, तेगेलें राज्य काय तिकडेन गडगडूं आनी आमचें काय इकडेन गडगडूं!

(टीप : केपें तालुक्यांतल्या कर्ल गांवांत घोळणुकेंत आशिल्ली ही गितकाणी 5 सप्टेंबर 1991 दिसा रातची संकलीकेच्या आमोणें-केपें हांगाच्या घरा खाशेलपणान गावन घेवन अक्षरबद्ध केली आसा.)



# परिशिश्ट - अ

## डॉ. जयंती नायक हांचीं प्रकाशींत पुस्तकां

### कथा

1. गर्जन (1989, 2008)
2. अथांग (2002)
3. मातयेची व्यथा (वेंचीक कथा, 2017)
4. आर्त (2019)

### नाटक

1. कुकमादेवीची दिपमाळ (2009)
2. काळमाया (2014)

### कविता

1. मिर्गवेणो (2020)

### बालसाहित्य

1. वागमामाची फजिती (2002)
2. चड शाण्याक फातरांचें शीत! (2001)
3. नवरंगी फूल (2002)
4. भुरग्यांखातीर लोककाणयो (2002)
5. सानुल्यांचीं कवनुलां (2004)
6. गोंयची लोककला (2004)

## लोकवेद

1. रथा तुज्या घुडयो (1992)
2. कणेर खुंटी नारी (1993)
3. मानालीं गीतां (1993)
4. तळय उखल्ली खेळ्यांनी (1993)
5. आमोणें - एक लोकजीण (1993)
6. पेडणेचो दसरो (1995)
7. नागशेराचे सूर (1996)
8. लोकबिंब (1998)
9. कोंकणी लोककाणयो (2000, 2005)
10. कलेंची बनवड (2002)
11. गांवरान (2005)
12. राजरत्नां (2005)
13. लोकरंग (2008)
14. लोकमंथन (2008)
15. देशांतरीच्यो लोककथा - भाग - 1 (2013)
16. देशांतरीच्यो लोककथा - भाग - 2 (2017)
17. देशांतरीच्यो लोककथा - भाग - 3 (2017)
18. गूढबंध (मराठी, 2019)

## व्यक्तीचित्रां:

1. म्हजी माती, म्हजीं मनशां (2015)

## अणकार

1. सोरपाची करामत (1998, मूळ : इंग्लीश - रस्कीन बाँड)
2. विसर्जन (2012, मूळ बंगाली : रवींद्रनाथ टागोर)
3. जिन्दगीनामा (2015, मूळ हिन्दी : कृष्णा सोबती)

## मराठींत अणकार

1. मृदवेणा ('मिर्गवेणो' कवितासंग्रह, 2015, अनु. : डॉ. सिसिलिया कार्व्हालो)

## इंग्लीशींत अणकार

1. The Salt of the Earth ('मातयेची व्यथा', 2016, अनु. : आगुस्तो पिंटो)

## संकलन-संपादन

1. गोवा कोंकणी अकादेमीचीं 25 वर्सां (2010)
2. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचीं अध्यक्षीय भाशणां (2016)
3. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या अध्यक्षांचीं भाशणां (2016)
4. संजीव – संचीत (संजीव वेरेंकार हांच्या साहित्याचें विवेचन)

## रोमी लिपींत

1. Venchik Lokkanio (लिप्यांतर : फेलिसियु कार्दोज, 2008)
2. Gorjan (लिप्यांतर : एस्. एम्. बोर्जीस, 2018)

000

# परिशिश्ट - आ

## डॉ. जयंती नायक हांकां फावो जाल्ले पुरस्कार

1. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय - साहित्य पुरस्कार (गर्जन, 1989)
2. जनवाहिनी मांडसोभाण, मंगळूर - लोकवेद पुरस्कार (जीवन गौरव, 1998)
3. डॉ. टी. एम. ए. पै फाउंडेशन, मंगळूर-उत्कृश्ठ कोंकणी पुस्तक पुरस्कार (कोंकणी लोककाणयो, 2000)
4. कला अकादमी, गोंय-साहित्य पुरस्कार (अथांग, 2002)
5. साहित्य अकादमी, दिल्ली-साहित्य पुरस्कार (अथांग, 2004)
6. गोंय राज्य सन्मान - कला आनी संस्कृती संचालनालय, गोंय सरकार (साहित्य सन्मान, 2007)
7. यशोदामिनी पुरस्कार - बायलां आनी भुरगीं विकास संचालनालय, गोंय सरकार (साहित्य सन्मान, 2009)
8. उत्कृश्ट नाट्य पुस्तक पुरस्कार - कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडें (कुकमादेवीची दिपमाळ, 2010)
9. उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार - कोंकणी भाशा प्रचार सभा, कोचीन (कुकमादेवीची दिपमाळ, 2010)
10. लोकवेद वावर - गौरव पुरस्कार - दाल्गाद कोंकणी अकादमी (जीवन गौरव, 2010)
11. शणै गोयबाब संशोधन पुरस्कार - वावराड्यांचो इश्ट, पिलार (जीवन गौरव, 2016)
12. जेसी फोंडें - लोककलेच्या संशोधन कार्याखातीर 'नक्षत्र' पुरस्कार (जीवनगौरव, 2017)

000



## डॉ. जयंती नायक

केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार प्राप्त गोंयच्यो नामनेच्यो लोकवेद संशोधका आनी साहित्यीक. समाजशास्त्र विशयांत एम्. ए. (म्हैसूर विद्द्यापीठ), लोकवेद विशयांत पदव्यूत्तर पदविका, (म्हैसूर विद्द्यापीठ) तशेंच गोंय विद्द्यापिठांच्या कोंकणी विभागांतल्यान *"कोंकणी लोकवेदांतली बायलेची प्रतिमा : एक सामाजिक - सांस्कृतिक अभ्यास"* ह्या विशयाचेर पीएच्. डी. (2005) पदवी जोडल्या. सद्द्याक गोवा कोंकणी अकादेमींत लोकवेद संशोधक म्हण वावुरतात. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या **अनन्य** हे स म्हयन्याळे साहित्य पत्रिकेच्यो संपादक आसात.

कथा, कविता, नाटक, निबंद, बालसाहित्य, अनुवाद, संकलन, संपादन, लोकवेद, अश्या विवीध विशयांवेलीं म्हण आतांमेरेन वट्ट चाळीस पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. कथांचो इंग्लीश, मराठी, हिन्दी, तेलगू, मल्ल्याळम, कन्नड अश्या भाशांनी अणकार जाला. **'मिर्गवेणो'** ह्या कविता संग्रहाचो मराठींत तर वेंचीक कथांचो **'द सोल्ट ऑफ द अर्थ'** ह्या नांवान इंग्लीश अणकार प्रकाशीत जाला.



संवसारीक मळाचेर गितकाणी हें सामाजिक, सांस्कृतिक, भाशीक तशेंच मानववंशशास्त्रीय अभ्यासाचें एक म्हत्वपुर्ण साधन मानलां आनी त्या दृश्टीकोनांतल्यान तिचो आज अभ्यास जाता. गितकाणी गावप वा काणी सांगप ह्या फाटल्यान मनोरंजन हें प्रयोजन आसा, असो सर्वसामान्यांचो समज आसा, पूण हें पुर्ण सत्य न्हय. ह्या संवसारांतल्या अदृश्य शक्तीक प्रसन्न करून आपली मनोकामना सिद्ध करपाच्या उद्देशान आदिम काळार मनशान काणयेची निर्मिती केल्ली. एके धर्मगाथेच्या रुपान तिचें सादरीकरण सुरू जाल्लें.

**- डॉ. जयंती नायक**




**गोवा कोंकणी अकादेमी**
243, पाटो कॉलनी, पणजी-गोंय 403001
फोन नं. 0832-2437920/2437385/87 टेलीफॅक्स - 0832-2437920
E-mail : konkaniakademi@gmail.com